# एरीक

मूळ इंग्लीश

**श्री अरविंद**

कोंकणी अणकार

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**






गोवा कोंकणी अकादेमी

# एरीक

(नाटक)

मूळ इंग्लीश:
श्री अरविंद

अणकार :
रमेश भगवंत वेळुस्कार

प्रकाशन क्र.: 124



पयली आवृत्ती : 2008

उजवाडावपी :
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय.

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,
माशेल, गोंय

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकर

मोल : रु 80/- रुपया

# ERIC

(Drama)

Original English by :
Shri Aurobindo

Translated by :
Ramesh Bhagwant Veluskar

Publication No. : 124



First Edition : 2008

Publisher :
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa.

Printer :
Swarnamudra Prints,
Marcela, Goa

Cover :
Shridhar Kamat Bambolkar

Price : Rs. 80 /-

## अकादेमीचे वतीन..........

नामनेचे कवी आनी लेखक श्री. रमेश भगवंत वेळुस्कार हांणी कोंकणीत अणकारीत केल्लीं हेर भासांतलीं तीन पुस्तकां, अकादेमीचेवतीन एकाच वेळार उजवाडाक येता. हीं तीन पुस्तकां म्हणल्यार भारतीय साहित्यांत मोलादीक भर घाल्लीं तशेंच भारतीय रंगमाचयेक योगदान दिल्लीं तीन नाटकां. पयलें नाटक, संस्कृत नाटककार भास हांगेल्या 'ऊरुभंग' ह्या नाटकाचो कोंकणी अणकार. दुसरें नाटक, भारतेंदु हरिश्चंद्र ह्या हिंदींतल्या नामनेच्या नाटककाराच्या 'अंधेर नगरी' नाटकाचो अणकार, जाल्यार तिसरें नाटक महायोगी अरविंद हांगेल्या गाजिल्ल्या 'एरिक' ह्या इंग्लिश नाटकाचो कोंकणी अणकार.

श्री अरविंद तांगेल्या योगीक वावराखातीर संवसारभर किर्तिवंत जाले पूण सामान्यांमेरेन जशे पावपाक जाय आसले तशे पावलेना. हाचें कारण म्हणल्यार तांचें सगळें लेखन आनी योगीक विचार इंग्लीश भाशेंतल्यान प्रगट जाले. भारतांत आसुनूय, भारतांत वावर करुनूय भारतांतलो सर्वसादाराण मनीस तांगेल्या गिन्यानापासून वंचीत उरलो. भारतीय भासांनी तांगेल्या साहित्याचे अणकार जाल्या उपरांत तांची खरी वळख देशाक जावपाक पावली.

श्री अरविंद योगीक वावराखातीर चड लौकिकाक पावलें तरी तांणी उणी पुरीं बारा आनी एक अपूर्ण अशीं तेरा नाटकां बरयल्यांत. 'एरीक' हें 1912-1913 च्या अदमासाक बरयिल्लें नाटक. ते स्कॅंडिनेव्हीयाचे संस्कृतीचेर उजवाड घालता आनी ते संस्कृतींतल्या मनशांच्या सभावाचें आनी उदात्त चलणुकेचें दर्शन घडयता. नाटकाचो काळ इसवीसननपूर्व. सगळे तरेची दुस्मानकाय ना करुन मनशां मजगतीं आनंद, मोग आनी शांती निर्माण करपी योगविद्येचो प्रवास आनी प्रभाव ह्या नाटकांत दाखयला. एके नदरेन श्री अरविंदाचे संपूर्ण विचारधारणेचें पडबिंब ह्या नाटकाच्या माध्यमांतल्यान दिसता. एका महायोग्याचे व्यापक अनुभूतीचो दिव्य दिश्टावो 'एरीकांत'ल्यान घडटा. कोंकमी रंगमाचयेर ह्या नाटकाचो प्रयोगूय जाला. पुस्तकरुपान तें कोंकणीत येता ही खोशयेची गजाल.

अणवादक श्री. रमेश भगवंत वेळुस्कार हे कोंकणीतले बाकीबाब बोरकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांचे उपरांतचे पिळगेंतले एक महत्वपूर्ण कवी. कोंकणी

काव्याक दिल्ल्या योगदानाखातीर तांकां केंद्रिय शाहित्य अकादेमीचो पुरस्कारुय लाबला. तांच्या नांवार उजवाडाक आयिल्ले स कविता संग्रह आसात.

कवितेचे साधनेंत आनी रचनेंत तांणी खंड पडूंक दिवंक ना. कवितेबरोबर तांणी कांय गद्य बरयलां. तातूंत तांणी बरयिल्ल्यो कथा आनी नवलिका लक्षणीय आसा. हेर भासांतल्या अभिजात साहित्यान तांचे प्रतिभेक साद घातला तेन्ना तांणी त्याच तोलामोलान त्या सादाक जाप दिवपाचो यत्न केला. ह्याच यत्नांतल्यान कांय हेर भासांतले उत्कृश्ट साहित्याचे नमुने कोंकणी भाशेंत आयल्यात. आशयाचो अचूक वेध आनी कोंकणी भाशेचेर आशिल्ली हुकुमत ही तांगेल्या अणकाराचीं वैशिश्ट्यां आसात.

खंयचीय भास गिरेस्त जातली जाल्यार ते भाशेंतल्या मौलिक साहित्याबरोबर हेर भाशेंतलें उत्कृश्ट साहित्य अणकारीत जावन येवप तितलेंच महत्वाचें. निजी प्रतिभावंत मौलिक साहित्या बरोबर हेर भासांतल्या साहित्याकडेन आपणालें नातें जोडटा. श्री. रमेश वेळुस्कार तातुंतलोच एक प्रतिभावंत.

मौलीक साहित्यावांगडा हेर भासांतलें साहित्य आनी गिन्यान कोंकणीत हाडपाचो गोवा कोंकणी अकादेमीचो उपक्रम चालू आसा. ह्या उपक्रमांतल्या 'उरुभंग', 'अंधेर नगरी' आनी 'एरीक' ह्या तीन पुस्तकांक वाचपी आनी अभ्यासकांकडल्यान बरो प्रतिसाद लाबतलो अशी आस्त आसा.

**पुंडलीक नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# एरीक संबंदान

महायोगी श्री अरविंद हे तांच्या योगीक वावराखातीर सगळ्या संवसाराच्या वळखीचे कवी. ते नाटककार म्हण खूब कमी लोकांक खबर आसा. तांणी खूब्ब नाटकां बरयल्यांत. तांचें हे सगळें बरप इंग्लिशिंतल्यान जालां. तांची नाटकां कांय पूर्ण आनी कांय अपूर्ण आसात. दी विच ऑल इलनी (ऑक्टोबर 1891), दी मेड इन दी मील (बरोड्याक आसतना) दी हावस ऑफ बूट (बरोड्याक आसतना), दी व वजीरस ऑफ बसरा (बरोड्यांत सगळ्यांत पयलीं बरयल्लें नाटक), रोडोग्यून (फेब्रुवारी 1906), प्रेजस दी डिलीव्हरर (कलकत्यांत वा देवघर हांगा 1906 आनी 1907 हांचे मदीं बरयल्लें), प्रिंसेस ऑफ इडूर (1907), दी बर्थ ऑफ सीन (सुर्वेक हाचे संवाद कवितेच्या रुपान कर्मयोगी त प्रसिद्ध जाल्ले डिसेंबर 11,1909) अचब आनी इसरहेडोन (पोंडेचरीत बरयतलें), एरीक (1992 वा 1913 त बरयल्लें) आनी वासवदत्ता 1917 त बरयतलें आनी 1916 सुदारलेले), अक्रूर सुदामा नाटकाची सुरवात हाका तारीक ना. एकूण बारा नाटकां आनी एक अपूर्ण. एरीक हे नाटक स्कॅंडिनेवियाची संस्कृती दाखोवपी आनी तांतल्या मनशांच्या स्वभावाचें आनी तांच्या उदात्त भावांचे दर्शन घडोवपी नाटक.

एरीक हें नाटक भाशांतरीत करपाची प्रेरणा डॉ. यस. यस. कुलकर्णीकडल्यान मेळ्ळी. नाटक वाचलें आनी आवडलें. 2000 ह्या वर्सा हें नाटक भाशांतरीत जालें. पंदरा वीस दीस ह्या नाटकाच्या सहवासांत उल्लां. एरीक हें नाटक नोर्वेच्या समुद्र लुटारुंच्या जिवितावयलें. ह्या नाटकाचो काळूय ख्रिस्ताब्धा पयलींचो. स्कॅंडिनेव्हियन आस्मितायेलो. पूण हो इतिहास न्हंय.

एरीक हो समुद्री चांचो पूण शूर. तो सगळी नोर्वे आपल्या हाता सकल घेता. हातूंत स्वेनाचेंय राज्य तो आपल्या साम्राज्यांत मेळयता. आनी हे खातीर स्वेनाची भयण आनी बायल एरीकाक मारपाखातीर आनी आपलें राज्य परत मेळोवपा

खातीर एरीकाच्या दरबारांत नर्तक्यांचें रूप घेवन पावता.

पळोवपाक क्रूर दिसपी एरीकाक आतां युद्धाच्या भिशणातायेची क्रूरताय कळ्ळया, युद्धाचे भिरांकूळपण ताका कळ्ळेल्यान मनशां मनशां मदलें वैरपण काडून उडोंवचें दिसता. ताचेमदीं मोगाळ वातावरण जांवचे खातीर आपल्याक तें करूंक जमचें म्हण तो थोर आनी ओडीन ह्या देवांकडें मागता. ह्याच वेळार भायर नर्तक्यांच्या गाण्यांतल्यान येवपी देवांच्या काळजांक जोडपी बंधनाची सुलूस ताका आयकूंक येता आनी हेंच त्याच्या मागण्याक देवान दिल्ली जापशी दिसता.

एरीक नर्तक्यांक आपयता. नर्तक्यांमदली आसालोग ही स्वेनाची भयण. तरुण आनी सुंदर. हर्था स्वेनाची बायल. सुंदर समंजस शांत. सगळें बरे तरेन समन्वयान जांवचें असो भावार्थ आसपी आनी आसलोग भावाचें राज्य गेल्ल्याच्या रागान एरीकाक सोंपोवपाचे तिडकीन जळपी. पूण एरीकाचे मतींत आता कसलोच राग ना, तर मनशां आनी मनशांचीं मनां जोडपाची भास आनी एरीक आसलोगाच्या व्यक्तित्वाक भुलता. जें ताका मारपाक सोदता, ताचेर तो मोग करता.

आसलोग खूब प्रयत्न करता एरीकाक मारपाक. तो ताका आपल्या मनाची खबर सांगता. आसालोगाकूय मनांतल्या मनात ह्या शूर एरीकाविशी उमळशीक सुरू जाता. पूण ताका आपल्या भावाचो मोग, म्हण ताका एरीकाचो सूड घेंवचो आसता. पूण एरीकाचो मोग ताच्या मनांत कसो रूजता ताका कळना. एक वेगळीच शक्त काम करता, हें ताका कळटा. जसो जसो वेळ वयता तसो तसो आसालोगाक एरीकाविशीं चड आनी चड प्रेम जाता. तें हें हर्थाकडें व्यक्तूय करता. एरीकाकूय फ्रेया जी स्वर्गाची आदिमाय आसता तिची भाक मेळटा. आनी एरीक पुराय बदलता आनी सगळ्यांक एक करपाचो, सगळें जोडपाचो सर्वानंदाचो वावर ताका येवजता.

एरीक, स्वेनाक पकडपाक आपले लोक धाडटा. स्वेन राज्याभायर जाल्लो आसता, हारलेलेलो आसता. म्हण दोंगरांनी लिपून भोंवता. एरीकाचे लोक स्वेनाक

पकडटा आनी एरीकामुखार हाडटात. स्वेनाक तो राज्य दिवपाचें करता. स्वेन म्हण्टा असले दयेन दिल्लें, काकुटेन दिल्लें राज्य आपल्याक नाका, ते बदला तो आपल्याक मरण मागता.

स्वेनाक कळटा की आपली बायल बदल्ल्या, भयण बदल्ल्या अशा वक्तार तर मरणूच ताका चड बरें दिसता. आनी ह्या भावनीक परधार्जिण्या जिण्यापरस मरण हें खरें वखद दिसता.

एरीक ताका मुक्त करता ताका ताचें राज्य दिता. ताचो जोडलेलो राजमहल दिता आनी एरीकाच्या नोर्वेच्या सम्राज्याचो ताका सेनापती करता, तेन्ना स्वेनाच्या अजापाक पारावार उरना. आनी हो एरीकांतूय जाल्लो मोगीक बदल पळयता आनी सगळयांचे मोगाचे अधिराज्य स्थापन करून अखेरचे जैत एरीकूच जिकता ते पळयता आनी खोशीय जाता. आनी एरीक ताचे भयणीचो मोग आनी हात आपलेकडे येवंचो म्हण मागता.

सगळे तरेच्या दुस्मान कायेचो पसारो नाकारून सगळे तरेची वैरां नाकारून सगळ्या मनशांमदी आनंद, मोग आनी शांती प्रस्थापीत करपी योग धारणेचो प्रवास ह्या एरीक नाटकांत पळोवपाक मेळटा. 1912-13 त बरयल्ल्या ह्या नाटकाक आयजूय तितलेंच महत्व आसा. आयज मनशां मदीं जी दुराय वाडत चल्ल्या, जाका लागून तरातरांचे अनुचीत प्रकार आनी झुजां आनी महाझुजां जावपाचे प्रसंग घडटात, हांतल्यान पयस वचून शांती, मोग आनंद पातळावपाचें मर्म आमकां ह्या नाटकांत मेळटा आनी हें परिणामकारक पद्धतीन महायोगी श्री अरविंदानी आपल्या सशक्त भाशेवरी वाचकांमेरेन आनी प्रेक्षकां मेरेन पावयलां. हें ह्या नाटकाचें वैशिश्टय. सोप्या पूण प्रत्ययकारी उतरांच्या योगान महायोगी, मनशांतल्या शांत आनी व्यापक स्वराक हात घालता आनी चैतन्यानंदाच्या अमाप, अवाक तशेंच अतिमानसाच्या भव्य अवकाशांत पावोवपाक मदत करता. ह्या वावराक लागून मनशां मनशांमदली

नसतीं वितुश्टां ना जावन वयता. व्यापक प्रमाणात ह्यो गजाली घडल्यो जाल्यार सवन संवसार दुस्मानकाय मुक्त जावन अद्भूत चैतन्यात भरून वयतलो.

गोवा कला अकादमीच्या ड्रामा स्कुलान ह्या भाशांतरीन कोंकणी नाटकाचे तीन भव्य प्रयोग कला अकादमीच्या कृष्णकक्षांत सादर केले. जातूंत श्रीमती पद्मश्री जोसलकरांनी समर्थ दिग्दर्शनाचें काम केले अपूर्व कुलकर्णी सारख्या कलाकारांच्या सांगातान नोर्वेचो वाठार उबो करपाचो यशस्वी प्रयत्न केलो. नाटकाचो प्रयोग पळयल्या उपरांत कांय प्रेक्षकांनी नाटकाचो व्यापक परिणाम तांचेर जाल्ल्याचें सांगले. श्री अरवीन्दांचें हें नाटक म्हजेकडल्यान भाशांतरीत जाल्ले बद्दल म्हाकांय खोस जाता आनी महायोग्यांची व्यापक अनुभूती किंचित प्रमाणात काय जायना लोकांमेरेन पावोवपाक म्हजोय इतलो उपेग जालो म्हण हांव सृश्टीचें उपकार मानतां.

गोवा कोंकणी अकादमीच्या जाळवंणदारांकूय ह्या चैतन्यमय वावराची जाल्ली जाणीव आनी ही जाणीव लोकांमेरेन पावोवपाची इच्छा जाली हीच महायोग्याच्या वावराची व्यापकताय आनी सृजनशीलतायूच म्हणची पडटली. हे खातीर गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपकार.

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

अंक : 1

देखाव : 1

# एरीकाचो म्हाल

(एरीक, आसलोग, हर्था, हाराल्ड, गुंतर)

**एरीक**

नोर्वेचो एरीक,हजारांनी वाय़किंग जाका
मानतात आपलो अधिपती, जाचे मुखार ह्यो
खोल किरांव अस्कड्यो खळयो, हो अकराळ विकराळ
आकाराचो फुटलेलो तट नतमस्तक जाता ! हय
ताचे तलवारिचे फिशालकायेचेरच ही राजवट
धल्ल्या. म्हजो तिख्याचो सुणो हड्डे फुडें काडून
तानेवन आपल्या धापेल्ल्या सावजां फाटल्यान धांवता.
पूण जेन्ना तलवारूच मोडटा? वा मरणूच जंय
हुशार थरता? खर कश्टांनी उबी केल्ली
ही राजवट उबून वयतल्या कुपावरी वितळून वता
आनी जाता पुर्विल्ले वरीच विखंड खंड अस्ताव्यस्त !
हें सगळें घडसोवपाची माण्णी हांवें काडल्या -
पूण हें हांव मेटूं कसो? कसो मेटूं ?
ए थोर आनी ओडीन, उत्तराखंडाच्या

अधिपतिंनो, आसा म्हजेकडें बुद्द आनी शक्त
पूण बळगें म्हजेकडे ना, आनी हांव ताच्या मागार आसां
पावात म्हाका, तुमच्या संवसाराक धाकांत दवरपी
जबर दराऱ्या सयत, जें ह्या एरीकाक
आजून उजवाडूंक ना. दियात म्हका तुमची सासाय.

**आसलोग**

(भायर गायता)

प्रेम देवांचो दुवो
जो काळीज जोडटा
लोखण भंगयता आनी तलवार
धनयाचे समाधींत न्हिदता
प्रेम दिव्य जोत जळटा
प्रेम देवांचो दुवो
जो काळीज काळीज जोडटा

**एरीक**

(बसलेल्या आसना वयल्यान उठून)

ही तुजी जाप? फ्रेया, हे स्वर्गदेवते
तुका विसरून गेल्लों. म्हज्या काळाजासनार बस
कित्याक तर एकवट काळजाचोच विशय
पूण सांखळी न्हय जी बांदता, न्हय लोखण, भांगर
एका पूण अस्कत विचाराक ना खबर कारण
तें हांव कसो हातासू? खंयच्यान? दी म्हाका येंडी
पळटल्याक अचळय पकडूं येतलें.हें पळय

म्हजे जड बुद्दीक तें केन्नाच जावंचे मुखर.

**आसलोग**

(भायर गायता)

मोग सादयता मोगाक

तेन्नाच रूजता मोग

आहेर ताका भुलोवंक शकना

कांत ताका चळोवंक शकना

पालवता रागाचो ओग

मोग सादयता मोगाक

तेन्नाच रूजता मोग

**एरीक**

(उलो मारीत)

भायर कोण गायता?

(हाराल्ड भितर येता)

हाराल्ड, भायर कोण गायता?

**हाराल्ड**

गोथबर्गच्यो दोन नर्तक्यो.भितर हाडूं?

**एरीक**

हाड तांकां.

(हाराल्ड भायर वता.)

मदूर ओंठांतल्यान आकस्मिक विचारांतल्यान

हे देव कितले सुंदर उलयतात जशें काय उलयतल्याक

खबरूच नासता की तो माध्यम म्हण
ताका दिसता की तो आपुणूच उलयता म्हण.

(हाराल्ड आसलोग आनी हर्था वांगडा परतता.)

**हाराल्ड**

म्हाराज एरीक, ह्योच त्यो ज्यो गायताल्यो

**एरीक**

अस्तुऱ्यानो,
कोण तुमी? कोणा देवान तुमकां हांगा धाडल्यात?

**आसलोग**

त्या देवान जाचें सगळया मनीस मात्राचेर शासन चलता,
खऱ्यानीच.

**एरीक**

जी गायताली ती तूं?

**आसलोग**

म्हज्याच ओंठांचो उपेग जाला.

**एरीक**

अशें म्हणटा. कोणा कडल्यान जाला हो उपेग?

**आसलोग**

नशिबा कडल्यान
फकत तें एकटेंच हे रंगमाचयेर फाटल्यान भाशण सांगता,

ही दृश्यां आनी अदृश्यां ताचेच सांगणेन हालतात
आपल्याक जाय तशी न्हय. एरीकाची तलवार, आसलोगाचें गीत
संगीत आनी गडगडाट म्हणचे फकत साद्यो तारो ताचे
ते विराट विणेच्यो. तें घडटा, तें मोडटा
शिंवासनार बसयता, खुर्सार चडयता, आपल्या संगिताक
जशें जंय जाय थंय थंय तें तशें बसयता.

**एरीक**

म्हाका दिसता की आत्मोच ह्या सगळयाचो स्वामी.

(हर्था कडेन वळून) तूं कोण?

**हर्था**

रागान जळटल्या स्विडीशांनी जांकां गोथबर्गा सावन बळयां
धांवडायल्यांत ती नोर्वेकारां.आमी नोर्वेक परत वतात.

**एरीक**

तुमी थंय गेल्लींच कित्याक?

**हर्था**

ते उबंत भुंये वयल्यान जी सादया लोकांक बुड्डून गिरेस्त जाल्या
जी आजून रानवटी आसा, जिका आजून संगितांतले सौंदर्य कळना
आनी नाचांतली लय वळखूंक येना, गरजेंतल्यान  आमी
अख्ख्या सुसंस्कृत समाजांत पावल्यांत, जांची काळजां
म्हटल्यार उदार आनी कुशळ देवांची देण
जी घणाक घण आनी फुलाक फूल जावन मेळटा.

**एरीक**

आनी ते आतां बायलांकडे कित्याक झगडटात?

**आसलोग**

तुज्या आक्रमणाचेर रागार जावन.

**एरीक**

बदलो घेवपाची एक

उत्तम संद हांव तांकां दितलो, पूण मात्शी खर!

(भितर येतल्या गुंतेराक)

गुंतेर तूं झुजामळा वयल्यान आयला? कितें खबर आसा?

**गुंतेर**

स्वेन त्या त्रोंडजेमचो सामन्त आपलें उंवाळून उडयल्ले तोंड वयर काडटा. निराशेन भल्लेल्या गांवठी लोकांक आनी चवताळळेल्या गिरेस्तांक घेवन स्विडाचेर चाल करून येता.

**एरीक**

स्विडनांतल्यान तशेंच तांच्या भुंयारातल्यान येवन सिगार्डाच्या सैन्यान ह्या विद्रोही सामंताचो कांटो काडूं हो असंगतांचो म्हारू, दुश्ट दारूण भिरांकूळ, पक्षपाती, भूतकाळाचो आंधळो भक्त वळवळपाक लागला. असले लोक धर्तरेक भार जावंचे परस देवा फुड्यान पावल्ले चड बरे. तो मेळ्ळयार ताका कसोच सोडप ना.

**आसलोग**

सोडप ना?

**हर्था**

तूं मात्शी वगी रावशी?

**आसलोग**

पाड पडलेली ही याद

म्हाका नाका तेन्ना जाता की

एका काळार ओलाफ थोरलेक पूत नोर्वेचेर राज्य करतालो,

स्वेन ताचो वारस.

**एरीक**

आतां तुमी म्हजेच वांगडा रावतलीं,

आता विसरात तुमी गोथर्बग, सोडात त्या भांगराची आस

आनी हांवूच तुमच्या दुख्खाक कारणीभूत जाल्ल्यान

आतां म्हाकाच तुमच्या फुडाराच्या सुखाचो धनीय करात.

**हर्था**

रायाचें देणें आमच्या लुकसाणाची भरपाय करतलें.

**आसलोग**

(ल्हवूच आपल्याक) हाचेय परस व्हड भरपायेची गरज आसा.

**एरीक**

हय तर. तें आता तुमचेंच

हाराल्ड, म्हज्याच म्हालांत तांच्या राबित्याची सोय कर

आतां वच तूं गुंतेर, थोडो विसव घे, मागीर थोडें उलोवंचें आसा.

(हेर सगळीं भायर वतात.)

मोग! तो जर आसता, ही चली मेरवा दोळयांची
आनी तिंणे जर उन्नत मस्तक अश्शें उबाल्लेलें
माने वयल्यान धव्या फुल्ल हांयसाचेंशे !
पूण मनशाचें काळीज कशें धोलोवं येता काय, जे ह्या
नोर्वेच्या पर्वतां वरी ओबड धोबड आसा, जाचो अभिमान
अधिकार आनी ओड सोडून बाकी सगळे हिमखंडा वरी
थंड किरांव आसा.
घडये ही मेरवा नदरेची बायल हांगा आयल्या ती-
तें म्हाका शिकोवपाक.

●

## अंक : 1

## देखाव : 2

**(हर्था, आसलोग)**

**आसलोग**

हर्था, आमी आयज रातीं ह्या मनशा मुखार नाचतात.
आयज रातीच कित्याक न्हय?

**हर्था**

पूण म्हाका अशें दिसना की
ताका अशें दुखावन मागीर वग्गी रावप म्हण.

**आसलोग**

फुड्यांत वचप
आनी धपको घालप, मागीर फुडारांतली सगळीं सतत
ताळयो मारीत रावतली, नोर्वेचे कवी जाल्यार काळाच्या अंता मेरेन
गायत रावतले होरावणेचीं गायनां, जांचो विशय आसतलो
आसलोगाचो नाच आनी आसलोगाचो खंजीर.

**हर्था**

हय,

जर आमी सफळ जालीं जाल्यार; पूण पराजीत खुन्याचीं
गायनां कोण गायतात? परजैताची जापसालदारकी घेवप बरें?
ना जाल्यार नोर्वेच्या स्वेनान अश्या बर्फाळ पर्वतांनी आनी
अटंग्या रानांनी उंवाळून उडयल्लो म्हण विडविडत रावप?

**आसलोग**

परजैत, केन्नाच ना !

**हर्था**

ज्या मनशाचो कांटो काडूंक आमी हांगा-

**आसलोग**

आयल्यांत तो एक म्हान मनीस!
ताचें मुखामळ आनी काया सामकी देवां वरी-
तेजस्वी दोळयांचो संगमरवरी सम्राट
अपहरणकर्त्याक असली कांत कशी फावो जाता?

**हर्था**

ताचो बापूय ओडीनाचे देवाकुळयेचो वंशज आनी सामंत

**आसलोग**

ताची ताच्या जैता उपरांतूच सुरवात जाता ! एक कण्णम घर
एक सान तारूं, एक ल्हानशी खळी आनी कांय
देवदाराचे रूख इतलीच जाची आसपत आ़सली

आनी हांतल्यानूच तो असो आकाराक आयलो.

**हर्था**

ह्या कस्पटांतल्यान वयर मिनारां मेरेन पावलो
तीन धाकटुल्या गिमां मदींच तो दुभाव विरयत नोर्वेचो स्वामी जालो
आनी हें सगळें काळान ताचे खाडकेक हात लावंचे पयलीच!
तो घडये ओडीनाचो वंशज नासुंयेय पूण ओडीन
ताचे वटेन आसा इतलें मात खरें. चिमण्यांच्या उडपांत लेगीत
तुका भाग्यचक्राची सुलूस पळोवची संवंय, ती तो ओडीन
ताचे वटेन आसा हाची तुका भिरांत दिसता?

**आसलोग**

आसलोगाक असलें मानना
ताचेकडें शक्त आसा, तिख्याची शक्त आनी थोर
ताच्या तलवारिच्या धपक्यांत आपल्याक पणाक लायता
ताच्या आवाजांत जैत- गिताच्या विश्वासाची वज जाणवता
हें सगळें जाले उपरांत लेगीत निमाणो निर्णय नशीब थारयता
न्हय थोर, न्हय ओडीन. हांव म्हजें नशीब सासंपून पळयतलीं.

**हर्था**

तो तर एक अपहरणकर्तो, हय काय न्हय?
लोक म्हणटात खंय, नोर्वेचे निवडणुकीन ताका रायपण दिलां म्हण.

**आसलोग**

कित्याक, ओलाफ तोरलेकसनान आपलो एक्कूय वारस दवरूंक नासलो ?
शिंवासन कितें अशें बेकारूच आसलें?

**हर्था**

त्रोंडीजेमाचें, तेच तर तांचें दुख्ख
देशाची मध्य सुवात आनी उत्तर सुवात वेंचपा खातीर मेकळी आसली.

**आसलोग**

जशे विद्रोही आसतात तशे.

**हर्था**

थंय असंतोश आसलो
भांगर आस्पत मेळ्ळेल्ले दक्षिणेन नाचांत बेभान जावन
म्हटलें 'हांवूच नोर्वे' पूण उत्तरप्रांतीय सामंतांनी हाका
मान्यतायूय दिली ना आनी पालवी आदार करपीय धाडले नात
फकत झुजांत मुखेलीपण करपाचें मान्य केलें. आमी मात
तलवारिची मध्यस्ती मान्य केली, सगळयांक तशेंच दिसतालें-
तलवारीन आमच्या मागण्यां आड निवाडो केलो.

**आसलोग**

हो खंजीर निवाड्या आड खणखणटलो.

**हर्था**

तूं परत आसली तशी थंयच येता. सारको बरो विचार कर.
हांगासर आमचो रक्तपात करचे बदला
बरे तरेन शांती कित्याक प्रस्थापीत जांव नज?
स्वेनान त्रोंडजेम घेवंचें, एरीकान उत्तर प्रांत
आनी अधिराजत्व? हें तर ताचें. आमी झुजल्यां ते खातीर.

आमकां परजैत मेळ्ळें. म्हाका दिसता हल्लो करचे पयलीं
हाचेर विचार जांवक जाय.

**आसलोग**

झेलान भल्लेलें आमचें वांज साम्राज्य कितलें बरें!
हरणांच्या हिंडा वांगडा जियेवप कितले सुंदर,
ना जाल्यार मुक्त आनी भिकाड्डें मरण
वांगडाच.

**हर्था**

निश्चित आसप सदांच बरें.
देखून हांव तुजे मुखार दुभाव शिंवरायातां.
हल्लो करताना खात्री दवर. आसलोग तुवें
तुजे वयली एरिकाची नदर पळयल्ली?

**आसलोग**

(पर्वा करिनासतना)
हांव मुळांतूच सुंदर
दादले म्हाका पळयतातूच.

**हर्था**

म्हणटकूच ही एक बरी संद आसा
तो आमचो वांगडा गुल्ल आसतना, अकस्मात
तूं हल्लो चडय, हांव तुका पालव दितां
मागीर आनी ताची सुटका आसा? स्वेनाक ताचें शिंवासन मेळटले.

**आसलोग**

तुका जाय तशी माण्णी कर. हे बाबतींत तुजी बुद्द चड फिशाल आनी हिकमती आसा. म्हाका जमना तें धडक दिवप, कर्तुत्व गाजोवप हो आसलोगाचो वांटो

**हर्था**

वगतार तूं आंग काडची ना न्हय?

**आसलोग**

हांव हे धर्तरे वयली न्हय,
म्हणून धर्तरे वयल्या लोकांचे नेम म्हाका लागनात
म्हजें नातें सामकें स्वर्गा मेरेन तेंकता.इतली
हांव सर्वश्रेष्ठ, स्वेनाची भयण, ओलाफाचें भुरगें
नोर्वेची आसलोग.

**हर्था**

तशें जाल्यार हें काम जावंकूच जाय.

**आसलोग**

हर्था, तूं कसली माण्णी विणटा तें हांव नकळो;
पूण तुवें कुरू केले उपरांतूच हांव हल्लो करतां.
(भायर वता.)

**हर्था**

(एकटीच)

कितलो क्रूर अभिमान! सोंसूंक जायना असलें मोठेपण!

ती साम्राज्य तोडपी धपक्याची स्वामिनी
आनी उणाकपणान फटोवन मारपाची माण्णी करपी हांव
ह्याच अभिमानान आनी तेजान हिणें स्वेनाचें बावलें केलां
आनी हांव ताची प्रेयसी, बुद्द दिवपी, बायल, पुजारीण
पूण हांवे कितें सांगल्यार ताचे कान थार भेरे आसताले.
आनी आतां, नोर्वेचे शिंविणी तुजी भिरांकूळ आरड तशेंच
हीं राकेशी उडणां म्हज्या नाजूक मोहिनी पागेलांत
पडलींच काय ना? तिका अशीच चक्रावंक जाय.
ती म्हजा पतिच्या आत्म्याक दुर्गतिच्या सरणार जळोवपी जळण
हें जळणूच कुशीक साल्ल्यार हो उजो आपाप न्हिवतलो.
मागीर एरीकाक मरण ये मेरेन आमी त्रोंडजेमांत हुसक्या विरयत
रावतलीं: एक ना एक दीस तो झुंजात तरी मरतलो
ना जाल्यार कोण तरी विरूद्ध बंड करतलो
आनी हो आयस पयस सवंसार मेकळो करून तो वयतलो
ते उपरांत मात कोणाकूय सुर्याच्या वताची धग मेळटली.
ती सदांच नशिबाच्यो गजाली करता, तिका दिसता काय कितें,
की हो मनीस जैतवंत नक्षत्रांचे मदीं जल्माक आयला म्हण,
आनी ताचें पाळणें हालोवपाक देवांनी पालव दिला म्हण?
ताका ताचो काळ मेळुंकूच जाय, ताचो अबाध्य काळ-
मागीर येता-तेंगशेर आसलेल्या सगळयाच गजालिंचो
अंतीम काळ बेग्गी येता.मरण आनी शेवट आनी
शिंया उपरांत गीम.



**अंक : 1**

**देखाव : 3**

**(एरीक, आसलोग)**

**एरीक**

हांगा यो.

**आसलोग**

तुवें म्हाका आपोवंक धाडलेली?

**एरीक**

हांगा यो.

कोण तूं?

**आसलोग**

तीच, जी तूं जाण ती.

**एरीक**

हांव जाणां?

**आसलोग**

(आपल्याकूच)

हाका दुबाव आयलो काय?

(मेकळेपणान) हांव एक नर्तकी,

म्हजें नाव आसलोग. हें तूं जाणा.

**एरीक**

तुजी ही मानी नदर, हे मोगाळ राजसी दोळे आनी
हे कुडिची मोहिनी आयट ओडीनान खंयच्या
सांच्यांत घालून काडल्या काय? तूं नाचता-हय;
तुजेकडें ती कळाशी आसा, गीत आसा. तुज्या
आत्म्याचें सुंदर संवेदन तुज्या ओठांतल्यान भायर येता,
भोंवताडे मारता, आनी त्या रानटी पक्षा वरी
आपल्या घोंटेरांत परतता. ही कला शिकतात
स्विडनच्यो राजकुंवरी आनी नोर्वेच्यो चलयो
जातात तांची नकल.

**आसलोग**

म्हजा वर्तमाना परस म्हजो जल्म आनी
म्हजो भूतकाळ चड गिरेस्त आनी खानदानी आसूं येता.

**एरीक**

तूं म्हजेकडें कित्याक आयल्या?

**आसलोग**

(आपल्याकूच)

ताचें मर्ण ताका भिरांतेच्यो कुरवो करता काय कितें?
भविश्यांत जावपी हल्ल्याची ताका सुलूस लागल्या काय?
हर्था ह्या प्रस्नांक फावो ती वाट दाखोवपाची.

**एरीक**

तुवें ह्या नोर्वेच्या एरीकाकूच कित्याक सोदून काडलो?
ही सौंदर्याची मन तट्टटावपी खाण आनी
गिताचें खाणपत घेवन तूं म्हजेकडें कित्याक आयल्या?
दादल्याचे नदरेक तुजी नदर दिसले उपरांत तो म्हण
आपलो उरूं येता?

**आसलोग**

हांव नर्तकी. म्हजें मुखामळ आनी म्हजी सुरावळ
हेंच म्हजें भांडवल; हें घेवनूच हांव फायद्या खातीर म्हण
हे सगळयांत गिरेस्त पेठेंत आयल्यां.

**एरीक**

अशें आसा?

हें हांव सगळें तुजे कडल्यान मोलायतां. आसलोग तुजी कुडय!

**आसलोग**

म्हाका सोड! तूं तुजे हात मरणाचेर कित्याक दवरता?
सगळया नोर्वेकारांनी कितें तुजे बंदे जावपा खातीर
आपल्याक विकूंक ना?

**एरीक**

तुजीं हीं उतरां नर्तिकेचीं शीं दिसनात!

**आसलोग**

(आपल्याकूच)

हो कसलो गराडो काय? म्हजेकडे खंजिरूय ना.

तो म्हाका वळखलो काय? तो बळजबरी करीत काय?

**एरीक**

नोर्वेन बंदो म्हण आपल्याक म्हाका विकूंक नासत,

पूण तुवें तुका विकल्या. तूं कोण ती तूं जाणा-

**पूण तूं तुका कोण समजता?**

**आसलोग**

(आपल्याकूच)

हो भंयकर फिशाल बुदवंत. सगळें उलोवप तो

आपल्याक जाय ते वटेन घेवन चल्ला आनी म्हाका

नाका आसतनाय ह्या अत्याच्यान्याची तुस्त करची पडटा.

**एरीक**

खरें म्हटल्यार तुवें अभिनयूच करीत रावप बरें.

तूं जर खऱ्यांनीच दाखयता ताचे परस खानदानी आसा जाल्यार

तशें सांगून उडय. पूण तूं एक नर्तकी, हांवे तुका

भाड्यान घेतल्या.तुजें गीत, तुजो नाच, तुजी कुड.

दर्यात पावल्ले खंयचेय गजालीक गिळपाक जसो दर्या फाटीं

सरना तसो तुका हातासपाक हांव कसोच अनमनचो ना.

**आसलोग**

महाराज तूं असली उतरां उलयता
तें आयकून म्हाका जाप दिवंक लेगीत हळशीक दिसता.

**एरीक**

काय समजुंकय हळशीक दिसता?
तूं सवंग करून आयल्ली म्हजी दुस्मान
म्हज्या दरबारांत घुसून तुका म्हजे मनसुबे परतून उडोवचें आसा.

**आसलोग**

हांव आसन जाल्यार?

**एरीक**

तशें आसत जाल्यार तुवें पिशेपणांनी
तुज्या सांखळदंडाची आनी अखंड बंदखणिची तयारीच
केल्ली दिसता, विचार करिनासतना तुवें येद्‌या व्हडल्या
जबरदस्त खुटयाळयांत आपलो गळो दिलोसो दिसता.

**आसलोग**

तुज्यान कितें करूं येतलें म्हजें?
म्हाका दिसना की हांव मरणाक भियेतां म्हण.

**एरीक**

मरण तुजे पसून पयसूच उंरू, सर्गान मानलेलें
जाल्यार तो तुका अमरूच करपाचो! पूण हाचेय परस व्हडली
भिरांत आसा अशें दिसना?

**आसलोग**

मरणा परस? हांव कोण्णाक कडकडना वा लिपुनय भोंवना.

**एरीक**

तुका अशें दिसना की तुजेच करणेन तूं ह्या पांदऱ्यांत
भिरांकूळ शिंवा वांगडा ताचे विचित्र मनस्थिती सयत बंदिस्त जाल्या म्हूण?
ताच्या दोळयांतले भुकेचो वखवख जाणवना?
ताचे आसक्तिचो हुस्कार तुज्या पोल्यांक आफुडना?

**आसलोग**

(भियेवन)

हांव हांगासर हेरगिरी करूंक येवंक ना.

**एरीक**

मागीर तूं हांगा आयल्या कित्याक?

**आसलोग**

गावपाक, नाचपाक आनी जोडपाक.

**एरीक**

तशें जाल्यार खूब जोड.

आसलोग, तुका खबर आसा हांवें तुजेर कित्याक नदर घातली ती,
आनी म्हज्या म्हालांत तुका कित्याक दवरली ती तुवें म्हजे आसक्तीव
साधन दिलें. इतलेंय आसून तुजी वाणी, तुजी कूड
तुज्या कामा परस चड घरंदाज आसाशी दिसता जाल्यार तशें
घोशीत कर, मान्य कर आनी गुन्याव भोगसून माग.

**आसलोग**

(तिडकून)

तुजे कडेन गुन्याव भोगसून मागूं? (स्वताक सांबाळीत) हांव एक नर्तकी. हांव जोडूंक आयल्यां.

**एरीक**

आजून चींत आनी थाराय.

**आसलोग**

(मात्शी थारून)

म्हाका कांयच चितपाचें ना.

**एरीक**

तुजे मनोवृत्तींत एक शिंवीण आसा,
तुका एरीकाकडे खेळपाचें आसा. पूण तुजेकडें
खेळटा तो हांव. तूं म्हजे चिमटेंत आसा.
आतां म्हजे आसक्ती पसून तुका सुटका कशी मेळूं येता?
तुज्या भांगर केंसांनी म्हाका पिसो केला
तुजें धव्या फुल्ल झेला वरी आंग, तुजे मृगनयनी दोळे
आनी अशें दिसता की तुज्या गळयान अचळय
सर्ग- सुंदराय धारण केल्या. तुजें गीत, तुजीं उतरां
तुज्या मदमस्त पांयांतल्यान पडपी नृत्याकार पावलां, चलतना
वा नाचतना, तुज्या उतरांतल्यान तशेंच झटक्यांतल्यान
ल्हारेत झळकुपी तुजो नाजुमान अभिमान,
ह्या सगळयांनी म्हजेर मोगाळ हांसतें नियंत्रण दवल्लां
केदेय व्हडले शक्तीक मान बागोवपाची

शिकवण म्हाका ना, पूण ताका चक्रावपाची,
बळजबरी करपाची, धेंकांत दवरपाची शिकवण आसा.
असो हांव तुकां असो ग्रासून उडयतलों. दुस्मान आनी बंदखण,
काय नर्तकी आनी भाडेल, जाय तें थाराय.
कांचवेली? तुका जाप येवजना?

**आसलोग**

ना. कारण तुज्या भिरांकूळ उतरांनी हांव घुस्मटल्यां
म्हाका ताची जाप खबर ना. घडये बेगी जमचीय ना.

(दुसरे कडेन वळून)

ताका ताचें मर्ण कशें दिसतलें? तो देव ?
आनी ताका मनशांचे काळीज कळटा? मनार
भयंकर वज्रपेज जांवक लागला.

**एरीक**

तुजी येवजण कितें आसली?
हेरगिरी करपाची काय खून मारपाची? तशी तुजी
कितेंय करपाची कापास्ताद आसा.

**आसलोग**

(आपल्याकूच)
बेगीन बेगीन केल्यार.

आतांय जांव येता. ताका पालोवपा खातीर फकत एक वर
कांय मिनटां आनी मागीर एकूच धपको!

**एरीक**

किर्ते चितलां तुवें?

**आसलोग**

(ताचे कडेन वळून)

आतां मेरेन हांव हांसलीं. चिंती नासतना हांगा आयल्लीं
तुज्या विचारांत हांव रमलीं, मात्शी अजापलीं,
सगळया घातमाऱ्या येवजणां पसून पयस, निर्मळ,
ह्या सवन तड्डकी चिंतनां पसून आनी रगत-दागा पसून
मुक्त-निष्पाप, तुज्या भंयकर दुभावांची जडसाण
तुजेर वाडटा. जे लोक अकस्मात नाडपणां आनी
क्रूरपणां करून वयर सरतात तांकां असलीच ख्यास्त
फावो जाता.
ते सगळयांचोच दुभाव घेतात, हय तांच्या
दर आश्वस्त उतरांतल्यान फोंसां घालता हिंसा
वा फिशाल नाडींगपणा, आनी ते आपणायतात
आपलो शेवट अकस्मात तशेच रानवटी जशे ते
कच्च करून वयर सरतात.
हांव फकत एक नर्तकी आनी कांयच न्हय.

**एरीक**

तूं म्हजी नर्तकी आनी कोण न्हय?
ही गळसरी घाल आनी म्हजे सुवादीन जा-
आनी तुजें मोल इतलेंच समजूं नाका.

(आसलोग गळसरी जमनीर शेंवटिता.)

**एरीक**

तूं इतली हुशार न्हय.

**आसलोग**

(उचंबळ जावन)

अशे तरेन बायलांक जिखप कठीण.

**एरीक**

हांव जसो तुका पाराथतां, दादल्यांची पाराथपाची रीत हीच,
तुजे सारक्या बायलांचेर दादले अशेच मरतात.
तुवें तुजी वळख फटिची दिल्या? तशें ना जाल्यार ना म्हण
आनी हांसत्या ओठांतल्यान तुजो गुन्याव भोगसून घे न्हय?
आजून तूं नोर्वेची नर्तकी आसा काय सवंग करून
आयल्ली वयल्या पांवड्या वयली खानदानी अस्तुरी?

**आसलोग :**

(अकस्मात)

हांव तुजी नर्तकी, महाराज एरीक पळय
हांव तुजे गळसरेचो स्विकार करतां.

**एरीक**

घे ती; शांतपणान विचार कर
आनी थाराय, ही तुजी बिदागी काय म्हजी भेट
म्हाका तुजो निर्णय असो वयलेचाराचो नाका पूण तो
आमकां एका बंधनांत जोडचो आसचो. हांव तुका वेळ दितां
चींत तुजो सद्सद्विवेक काम करूं अशें आंवडेता

न्हय तुजें पाडें हट्टाग्रही विकृत मत
तुजें देशद्रोही कर्तुब मान्य कर आसलोग
तुज्या महाराजाचेर विश्वास दवर.

(तो भायर वता. मात्शी रावन
आसलोग गळयांतल्यान गळसरी काडटा,
तोखेता आनी आसनार उडयता.)

**आसलोग**

तुज्यांत राजसी रगत खेळटा.

(एक पॉज घेतले उपरांत गळसरी काडटा.)

हं, गळसरी? ना, एक सांखळी! काय तूं एका
देवाच्या मर्णाचें मरण -पत्र जातली?

(गळसरी परत आपल्या गळयांत घालून)
हर्था, हर्था, हांगा यो !
(भितर येतल्या हर्थाक)

म्हाका बूद्द दिवपी अस्तुरे, आयली तूं?

**हर्था**

हांवें तुजो उलो आयकलो.

**आसलोग**

हय. पूण हांवें तुका कित्याक उलो माल्लो? पळय, हर्था पळय
हो नोंवेचो एरीक आपलो सत्यनाश म्हारग करून घेता पळय!

**हर्था**

ताणें दिलो तुका हो? हें एका राज्याचे मोल.

**आसलोग**

एका राज्याचें मोल! मरतल्यांच्या राज्याचें !
राष्ट्रांक ह्या देवा पसून मुक्त करपाचें मोल !
हर्था गे, हे धर्तरेक देवाकडें किते संबंध,
ह्या मनशांच्याच भारान बाबडी चेपता ?
आनी हो एरीक जर तिचेर चड काळ चल्लो
जाल्यार तिका रोखडेंच आपल्या स्थाना पसून
ढळचें पडचेंना ?

**हर्था**

स्वेनाचे भयणी,
तुज्या दोळयांत आनी मुखामळांत एक आगळीच
तकाकी लिकलिकता. ताणें कितें म्हटलां तुकां?

**आसलोग**

कितें म्हटलें एरीकान ?
आसलोगाक, महाराज स्वेनाचे भयणीक?
एका राज्याचें मोल ! स्वेनाच्या राज्याचें मोल ! पूण ताका,
म्हजो संगमरवरी सम्राट, म्हजेर मरपी म्हजो देव ... हो मर्त्य ओडीन
ताका कितें? तो कितें जबरदस्तेन ह्या उज्वल शिंवासनार बसतलो?

**हर्था**

तुका अश्या विखंड मनाची संवंय नासली.

**आसलोग**

आतांय हांव बदलूंक ना, म्हजें काळिजूय गोंदळूंक ना.
पूण हीं सहज आयल्लीं चिंतनां.

**हर्था**

तो तुजो मोग करता?

**आसलोग**

तो मोग करता आनी तो दुभावता.

**हर्था**

कितें, आसलोग?

**आसलोग**

आमी कोण आनी हांगा कित्याक आयल्यांत?

**हर्था**

ताका दुभाव लागलो जाल्यार !

**आसलोग**

आमी ताकतीक केल्यार

चड कांय जावपा ना.

**हर्था**

आमचें सगळेंच परते जालें जाल्यार

वग्यावगी मरून म्हाका निर्फळ दुकांनी स्वेनाक

तडफडावपाचो ना, म्हाका मारूनच मरपाचें आसा.

ताका उरूंक जाय याद आमचो त्याग जाका लागून

ताच्या माथ्यार मुकूट आसा म्हण, हेच यादीन जातलें

ल्हव ताचें दुख्खय, म्हणटलो गरजेचें आसलें हें बलिदान

आनी सोंसतलो. उच्च कर्तव्य आनी उच्च कर्तुब.

(कांय वेळ चितून)
माणकुले, तुंवें ताचें मन राखूंक जाय. ताका हय म्हणूंक जाय.

**आसलोग**

कित्याक?

**हर्था**

सगळयाक.

**आसलोग**

केला तुंवे विचार बरे तरेन
ह्या अपसरणाचेर जें तूं सुचयता

**हर्था**

हय.
हांव म्हणना तुवें समर्पित जावंचें म्हण, तशें नाटक कर
स्वेनाची बायल पसून जावन हांव तशें करपी;
तूं काय ताचेर असो खरो मोग करिना, ना जाल्यार भावाच्या
जिविता मुखार, भावाच्या मुकुटा मुखार भायले पवित्रतायेच्या
आडंबराक इतलें म्हत्व दिवंची नासली.

**आसलोग**

आपल्याक जाय ते वटेन
म्हाका वळोवपाची वाट तुका बरी खबर आसा.

**हर्था**

ताका मेळकळेपण दी पूण ताका मोगाचो दाखलो दिवं नाका
जेन्ना तो तुका वेंगावपाचें चिंततलो ते पयलींच आमचो धपको

ताचेर पडलेलो आसतलो

**आसलोग**

आनी हर्था अकस्मात एका हिंसक काळजान म्हजे इच्छेचो घात माल्लो आनी तुजे आराखडे परतिले जाल्यार ? थंय अशी भिरांत ना मू हर्था

**हर्था**

अजून तरी म्हाका

स्वेनाचे भयणी कडल्यान, आसलोगा कडल्यान भिरांत आसाशी दिसना. पूण तूंच भियेली जाल्यार?

**आसलोग**

ना, कारण हांव मान्य करतां.

मागीर तूं म्हज्या स्वार्थाक वा मोगाच्या उणाकपणाक दोश दिवं नाका.

(भायर वता.)

**हर्था**

(एकटीच)

तशें जाल्यार स्वेनाक राज्य मेळत !

(हांसत)

अजय देव आनी आमचे मर्दी हांसतें, जागृत भाग्य आसा हें हांव सामकी विसरूनच गेल्लीं.



**अंक : 1**

**देखाव : 4**

**(एरीक, आसलोग)**

**एरीक**

अशें म्हणटात की मोगाचें अराजक देवांक लेगीत कडकडायता
संगमरवराचे सभाव डळमळटात, अमर काळजां पिघळून
आनंद कळा प्राप्त करतात.हे ओडीन म्हाका म्हजे भितर
एक प्रशांत राजसत्ता स्थापना करूंक जाय, म्हजें रगत
म्हज्या हातांत उरूं हिच्या पावलांचो आवाज
आयकूंक येता.

(भितर सरतली आसलोग तिका उद्देशून)

तुवें तुजें मत थारायलें?

**आसलोग**

म्हाका जर कितेंय वेंचचें पडलें जाल्यार हांव सत्य वेंचतलीं.

**एरीक**

कोण तूं?

**आसलोग**

आसलोग, कोण तूं आतां,

एक नर्तकी.

एरीक

आनी मागीर? तुका कितें,

कांयच समजूंक ना काय कितें?

आसलोग

कितें समजूंक ना म्हाका?

एरीक

हांव तुजेकडें कसो वागूं? ह्या धर्तरीय स्वर्गांत तूं रावता तो तुजो उरूंकच शकचो ना; ताची निर्मणी तुजी उमेद धारण करूंक जावंक ना, तर म्हजी.फक्त म्हज्या सगळया इच्छांक, आसक्त्यांक धारण करपाक निर्माण जाल्या.

हें सगळें तुका समजलें?

आसलोग

(गळसणलेली आनी त्रासलेली)

आजून तूं म्हजी परीक्षा घेता?

एरीक

पळय, तूं कडकडटा.

आसलोग

बायल कितें अश्या सोंपेपणान, काळजा सावन गळसणून साष्टांग दंडवत घालून कोणाचेय सुवादीन जायना.

**एरीक**

तुजें काळीज ! तुजेंच काळीज पूण बागवतें?

(तिचे हात आपल्या हातांत घेत)

एका बलदंड अमर सोयऱ्याक आश्रय दिवपी
अतुलनीय सकमार सुंदर अस्तुर काये!
आकारांक हाता पांयांक जसो आत्मो धारण करता
तशें मनशाक ताच्या हातांत काळीज धरपाक मेळळेलें जाल्यार!
म्हणून तर ताची मागणी करतां, बाकी सगळें हाताक मेळटा
अर्थ नासलेलें ! आमच्या काळजां मदीं पारे उबे जाल्यातः

(उलयंता उलयंता तो तिच्या दोळयांक आंगाक स्पर्श करता)

आमच्या आत्म्यां मदल्यो आडखळी ना न्हप्पय केल्यो जाल्यार
मनीस मुक्त जातलो आनी ही धर्तरी सर्ग आनी देव
उपेक्षीत उतरले.

**आसलोग**

(सट्ट करून)

हें काळीज म्हजें

खूब्ब मोल दिवन घे, कारण तें विक्रेक आसा

**एरीक**

हां, उलय !

**आसलोग**

मोगा सयत. म्हाका आनी कांय म्हणपाचे नासलें.

**एरीक**

मोगासयत! एक जबरदस्त उतर तूं सामकी मिळमिळतपणान घेता
ह्या संवसारांतली ही अतिशक्तशाली वस्त तुवें समजून
उच्चारलेली जाल्यार, खंयचोय दादलो तुज्या त्या स्वरांचें
आकर्शक कंपन आयकुपा खातीर सगळे संवसार विकून
तयार जातलो आसलो !
उतरां आसतात मडीं जे मेरेन तीं काळजांतल्यान फुटून येनात.

**आसलोग**

हांव तयार आसां.

**एरीक**

तशें जाल्यार आयज राती. तूं कडकडटा?

**आसलोग**

म्हाका दिसता,
म्हजा रंगतांत कितेंय पूण गोंदोळ आसा. हांव कडकडना.

**एरीक**

म्हजें म्हणणें आयकलां तुवें?

**आसलोग**

आयज राती नाका. तूं खूब्ब तेज
आनी उतावळो.

**एरीक**

तुजेय परस ल्हान आनी तुजे परस बुदवंत साथिनी कडल्यान

बुद्द घेवपा खातीर तुका वेळ मंजूर केलो.
दुसऱ्यांच्या मनांतली कपटी उतरां आपल्या कानांत ओतून घेवंचे
परस तुंवें तुज्या निर्मळ पवित्र आनी मुक्त आत्म्याची
बूद घेतलेली जाल्यार खूब्ब बरें जावपाचें.

**आसलोग**

कसलें कपट, हांगा सगळयाची सम समान मोलावणी जाता
तुंवें तुज्या रगतांतली लाल माणकां दिल्यांत, हांवें म्हजें जिवीत

**एरीक**

तूं आजून समजूंक सोदिना
आसलोग तुज्या उतरां परस तुजो आत्मो चड प्रामाणिक
तुजे ओंठ मान्यताय दितात जाल्यार तुजे दोळे प्रतिकार करतात आजून.

**आसलोग**

हांव म्हाका विकतां पूण अभिमानूय शिल्लक आसा !

**एरीक**

म्हाका जाय आसलेली खंयचीच गजाल तूं दवरची ना.
म्हाकां जबरदस्त अत्याचाराचो भास जाता, हांव तातुंतूय मजा घेतलों
आनी एकवट लादतलों; तूं एक देवता जिचेर हांव हिंसक जावन
जबरदस्ती करतलों. म्हाका खबर आसा तुजे भितर कसलो
आत्मो आसा तो, तुंवे जरी म्हज्या आत्म्याची उपेक्षा केली
तरीय. हांवें थातारून धल्ल्या म्हजी शक्त आजुनूय, जी
पळयता वाट झोंपय घेवपाची वखवखलेल्या शिंवा वरी
तुका आनी एक अवसर दितां; ताचो दुरूपयोग करूं नाका.

सावधान, उग्र भिरांकूळ देवाक चड तिडावं नाका
धसको घे तुजे सयभोंवतणी  भगभगतल्या उज्या जिबोळयांचो
(तो भायर वता.)

**आसलोग**

(मोट्ट्यान हांसत)

ओडीन आनी फ्रेया,सुत्रां तुमचे कडें आसता! पळयात हांवें हड्ड्यांत लिपयल्लो खंजीर भायर मोखूंक ना, असो घट्ट धरून दवल्ला. कितली विचित्र गजाल की नदर आनी आवाज हीं शारिरीक शक्तिचीं प्रतिकां, तीं फकत शिरंतरांतल्यानूच व्हांवनात तर तीं भितर बसलेल्या आत्म्याक स्पर्श करतात ! तें एका खिणाचें ल्हार आसले, जें गेलें.
म्हज्या आत्म्यांत एक उच्च उद्देश अपराजीत रूपान वस्तेक आसा आनी फळादीक जावपाच्या मागार आसा.



अंक : 2

देखाव : 1

# एरीकाच्या म्हालाची एक कूड

(हर्था, आसलोग)

**हर्था**

ही पळयल्या आसलोग हिची चमक कितली रसरशीत
पूण घातमारी ती?

**आसलोग**

हर्था कोणाचे तरी नदरेन तुका पिशांतूर करून उडयल्या
काय कितें? कोणाच्या तरी स्पर्शाचे आग्रही यादीन
केन्ना तूं काचाबूल जाल्या?

**हर्था**

तशें जाल्यार देवूय कामाक लागल्यात दिसता.

**आसलोग :**

संगमरवरी चित्ताकर्शक आकारान घडयल्ली म्हूर्त, जिच्यांत
हुस्कार नासता आनी जो हुश्शार सर्जकूच दिवंक शकता,

ती म्हूर्त फोडूंक लेगीत मन येना. हे म्हुर्तींत हुस्कार आसा!
ताच्या दोळयानी जाणवता बुदंवत कायेची चमक, जी आमचेर
आपलो अधिकार सांगता; ह्या संगमरवरांत एक काळीज आसा,
आनी काळजांत मोग ह्या सगळयाची फोडमोड करप, हें सगळें
ईश्वर निर्मित वैभव कितें मातयेभरवण करप!
हीं असलीं चिंतनां कित्याक घेरतात म्हाका? तशें जाल्यार हांवें-
ना... ना.. तशें कांय ना; मात्शी दया काम करता.
हें फकत शारिरीक आकर्शण.
पूण तो खऱ्यानीच सुंदर आसा, म्हान आसा.
ह्या, खंजिराच्या धपक्या खातीर
पूण खंजीर परततलो, ताचें पोंत परततलें
तो जावंचो ना तयार असल्या खुनाक.

**हर्था**

आसलोग, हो मोग.

**आसलोग**

(रागान)

कितें म्हटलें, तुंवे?

**हर्था**

जेन्ना ताचे हात तुज्या केंसांनी भोंवतात-
आसलोग, कारण तो तुजो मोग करता, - तोपूं नजो
आसलो अशा वेळार तुज्यान ताका?

**आसलोग**

कोण थरथरो हाडटा म्हाका? हांव कितें काकूत करपाक आनी थरथरपाक शिकल्यां? ओलाफाचे सत्ते खातीर हें सगळें नवें, म्हाका आत्मगिन्यान दियात, देवांनो. संवय नासलेल्यो असल्यो वृत्ती भरतात तुमी म्हज्या काळजांत? त्यो सगळयो हांगासर परकी.

(एरीक येता. तांचेर नदर मारता. हर्था ताका पळोवन वचपाक उठ्ठा.)

**एरीक**

तूं कितें स्विडना सावन म्हाराज एरीका खातीर आयल्ली दुसरी नर्तकी?

**हर्था**

ताचे दोळे आत्म्याक स्पर्श करतात. कितें जायत काय म्हणपाचो अर्थ? तशीं उतरां सादीं आसलोग, हांव येतां.

(ती भायर वता.)

**आसलोग**

हांगा तरी म्हाका मात्शी तुजे पसून मुक्तताय दी.

**एरीक**

तूं खंयूय जरी आसली तरी म्हजे पसून मुक्त कित्याक आसूंक जाय?

म्हाका भंयकर तिडक माल्ल्या तुजी आनी म्हजीय.
यो अशी फुड्यांत यो.

**आसलोग**

हें कितें विचित्रशें - म्हाका भिरांत दिसता !
कित्याची? कित्याची भिरांत? ना हांव आसलोग उरूंक आजून?

**एरीक**

कोण तूं घाडी भत्तीण काय कारस्थानी?
तूं दोनूय, तुवें म्हजें शिंवासनूय लुटलां आनी काळिजूय.
हे भयंकर आकर्शिके, दुस्मान जावनूच म्हाका तुजे कडेन
वागचें पडटलें.

**आसलोग**

ताणें म्हाका केन्नाच स्पर्श करीना जाल्यार पुरो!

**एरीक**

हांव तुका आनी आनी संद दिना; आतां सांवार आपलो सांवार

**आसलोग**

म्हजो सांवार म्हज्या हातांत, तुज्या न्हय.

**एरीक**

(अचानक आक्रमक जावन)
चुकता तूं.
आनी तूं सदांच चुकत आयल्या. तुज्या कट्ट्यांत तरी आसा,

की ह्या तीन वर्सां भितर तुफानाय परस आक्रमक आनी
भिरांकूळ नोर्वेक हांवें हातासून उडयल्या म्हण,
एक बायल जी आसत घट आनी धीट, आनी भिरांकूळ
आनी चपळ, ती कितें म्हाका तोंड दितली?

**आसलोग**

पळयल्या हांवें तुजी शक्त. म्हजी, जी दिसना तिचेर म्हजो विस्वास आसा.

**एरीक**

आनी म्हजो तुजे अशक्ततायेचेर. तूं कित्याक तरी भियेता.

**आसलोग**

ना. कित्याक ना?

**एरीक**

ना, तुजे दोळे जरी म्हजो प्रतिकार करतात,
तरी रंग बदलता. तुजे भितर कितें सगळेंच शिंवा वरी शूर
आनी मर्दाना ना.

(तिचे म्हऱ्यांत वचपाक लागता)

**आसलोग**

म्हाकां स्पर्श करूं नाका !

**एरीक**

म्हाका भियेता तूं ?

कित्याक भियेता तूं हाका? हें काळीज तुजेंच जाका तूं भियेता?

आसलोग तुजेंच काळीज हें?

(अचानक तो तिका आपले वेंगेत घेता आनी तिचें चुंबन घेता. आसलोग थीर पूण थार भियेल्ली.)

**एरीक**

तुज्यो पातकड्यो उगड; म्हाका तुजे शक्तिचो थाव घेवं दी !

**आसलोग**

हाय देवा! हांव प्रेमांत पडल्यां! सोड म्हाका!

**एरीक**

कितेंय आसलो आसूं तुजो उद्‌देश, तूं म्हाका पावली आसलोग मोग आनी विद्रोही आत्म्या, अजाप, हे नक्षत्रावळी वांगडाच तुजी निर्मिती म्हजेच खातीर जाल्ली! आसलोग आपल्या प्रारब्धाचो मोगाळ स्विकार कर. दुस्वासाचें मर्ण आनी प्रेमाच्या प्रारब्धाचो स्विकार आमच्या मोगाचे उत्कटतायेंत लजेचो घालो नाका.ही द्वेशाची गाळ मोगाच्या उडक्यांनी पार कर. आपल्या आत्म्याक रागान लासूं नाका. ह्यो वेळो आनी अडचणी सामान्याक सोड. आमच्या दोगांयमदीं दिसाचो दैदिप्यमान उजवाड उरूं.

**आसलोग**

म्हाकां मात्शें चिंतूं दी !

तुजी वेंग आनी तुजे ओंठ म्हाकां चिंतपाक दिनात.

**एरीक**

चिंतूं नाका! फकत अणभव,

फकत मोग !

**आसलोग**

हे एरीक, महाराज, लुटपी, जिखपी !

मनशांच्या काळजांचो आनी राज्यांचो चोर!

हे एकमात्र सम्राटा !

**एरीक**

अखेरेक जिखलीच मू तुका,

हे अस्तुरे ध्यानस्त तार्‍यांक लेगीत तूं आपल्या मोगा आवेगांनी फडफडावपी, हे आसलोगाच्या आत्म्या जालो काय ना तूं म्हजो?

**आसलोग**

(आसनार बसत)

म्हाका कांयच येवजना. हांव म्हाकांच शेणल्यां! म्हज्या काळजाक वेंगेंतल्या सासणाचे वेध लागल्यात.

**एरीक**

आतां हांवें जर तुजेकडे कितेंय मागलें जाल्यार तूं म्हाकां ना म्हणटली ?

**आसलोग**

हें कितें जालें? कितें म्हटलें हांवें? हांव मोग करतां!

(मोनेळिच्या कांय खिणां उपरांत
हड्डें सांसपिता)

म्हज्या हड्ड्यांत कितें लिपयल्लें आसलें?

**एरीक**

(तिच्या हालचालींक तेळीत)

म्हाका नाका भंगलेलें राज्य, नाका म्हाका भागाचो मुकूट
तुज्या काळजांत कसलो उद्देश आसलो, खबर ना पूण
तो दिव्य आसलो. अखेरेक तूं मोगान आसा; पूण म्हाका
मनशांच्या काळजाचो अंदाज आसा, थंय कसल्या कसल्या
विरोधी आवेगांचे आनी विश्वासघातांचें मल्लयुद्ध चलता तें जाणा.
म्हणुनच हांव दवरिना विश्वास अकस्मात जाल्ल्या बदलाचेर
जर तूं शांत जाता जायत तरी तूं म्हाका सावेग समर्पित जा,
हांव तुकां सासणा खातीर बेंगावन धरतलों. चींत आनी सांग
खऱ्यांनीच तूं सर्वस्वी म्हजी?

**आसलोग**

म्हाका आतां कांयच समजना हांव तरी म्हजीच काय कितें?
सवन संवसार पेंवता म्हजे भोंवतणी आनी स्वर्गाच्यो
खाणाखुणोच बदलल्यात.
उद्देश! आसलो एक. ते भायर आसलो
एक भाव ! आसलो ! आता कितें आसा म्हजेकडें? हे देवांनो
कसो तुमी घातलो म्हजेर घालो? सोड म्हाका, महाराज
अकस्मात बदलतल्या काळजार विस्वासप बरें न्हय.
जशें रगत शांत जालें की कसलोच आडपड्डो नासतना

आत्मे सर्गांत मेळून उलयतात तशीं उलोवया.

**एरीक**

हांव सोडचों ना तुका एकटी, कारण तुजे भितर कोण्णाक खबर ना काळया किट्ट विवराची अशूभ सुलूस जाणवता.

**आसलोग**

सोडल्यार बरें जातलें.
हो वेळ मेरेन आमचे मदीं खुब्ब कितें आसलें,
जें आतां मात्शें उल्लां. सोड म्हाकां म्हाराज. म्हाकां
म्हजेच कडेन द्वंद्व खेळूं दी आनी जाणा जावं दी शांतपणान,
की देवांनी म्हाका ह्या विचित्र संघर्शांत सोडल्या, हांतली
खंयची गजाल म्हज्यांत जियेतली आनी खंयची थार
मोनी जातली.

**एरीक**

आजून कोण तरी आडायता.
म्हाका सारकें कळळे बगर आनी खात्री जाले बगर
हांव तुका कश्शी एकटी सोडचों ना. आसलोग
अखेर हांवें तुका जिखल्या.

**आसलोग**

महाराज तूं झुजांत
आनी बुद्द दिवपांत खूब निपुण पूण अस्तुऱ्यां खातीर न्हय
तुंवे अश्या एका रहस्याक चक्रायलां जें म्हज्या थरथरत्या
आत्म्यान लेगीत म्हाका सांगूंक नासलें.आनी जर तूं

खऱ्यांनीच शाणो आसशी जाल्यार आपल्या मस्त आनी
हुतहुत्या हातांनी भयंकर देवाक स्पर्श करूं नाका. जाणें
म्हांका भियेवन म्हजें असकतपण म्हाका स्विकारूंक लायल्लें.

**एरीक**

तुकां कितें तूं खुब्ब शाणी दिसता?
हांव तुकां सल्लागार मानिना.

**आसलोग**

पूण सावध जा.
म्हजो संकल्प आनी म्हजें काळीज हांचे भितर जी
खळी पडल्या तिचेर आजून सांकव जावंक ना.

**एरीक**

सोड तुजे संकल्प, ना जाल्यार
तुजे खातीर म्हाकाच तांचो सोक्षमोक्ष लांवचो पडटलो.
पोन्न्या आसलोगाचे आड नवी आसलोग उबी जाता.

**आसलोग**

रावूं दी, रावूं दी. म्हाका म्हजें
स्वातंत्र्य भोगूं दी.

**एरीक**

ना आसलोग ना. आपल्या आवेगाच्या
जंवजाळांत तूं शिंवणी वरी हिडहिडटा.

आसलोग

(तोंडांर भाव)

तशें जाल्यार महाराज

जशें नशिबाक दिसता तशें कर.

एरीक

स्वामी हांव म्हज्या भाग्याचो

आसलोग

आमी आमचेच स्वामी न्हंयत. भाग्याचे कितले आसतले?

एरीक

आसलोग आजून तूं तुका ती नर्तकीच समजता?

आसलोग

एरीक हांव तीच नर्तकी जी तुका सोदीत आयल्लीं.

एरीक

तशें जाल्यार अशेंच केल्यार बरें जातलें.

आयज राती नर्तकेन म्हज्या म्हालांत नाचचें. तुजो नाच पळोवन तांतल्या रहस्याचें काळिजूच फोडून उडयतां.

आसलोग

तसो तुजो आग्रो आसा जाल्यार तो नशिबाचोच आग्रो म्हणचो पडटलो.

एरीक

दिसता की तुजो देव खंतावंक लागला आनी भियेवंकूय लागला!

कारण ते उपरांत हांव दादल्या बायलेच्या आत्म्या आनी शरिरा मदीं
ज्यो वासना उमळटात तांची हांव मागणी करीन म्हण?

**आसलोग**

तुजें नशीब मानता जाल्यार.

म्हाका दिसता तुज्या मोगाक आदराची संवकळ ना.

**एरीक**

तुजे आनी म्हजे भितर आतां शब्दाक अस्तित्वच उरूंक ना
तो ह्या अगडबंब उज्यांत जळून खाक जाला. तूं हट्ट कित्याक करता?
म्हज्या हड्ड्यार लोळून जाले उपरांत तूं आनी कसलो भौमान सोदता?
आनी तरी तूं म्हणटा की आपूण एक नर्तकी म्हण, आसलोग
काळयाच देवांक जैत मेळचें न्हय. तूं तुजो अहंकार पयस कर
आनी सत्याक तशेंच मोगाक आपणाय.

**आसलोग**

(पिकार)

हांव एक नर्तकी आनी कांयच न्हय.

**एरीक**

प्रेम जाणें दुस्वासाक हरयलां तें तुज्या काळजांत परत वयर सरपाक लागलां.
हांव निर्दय जावन ताका जबरदस्तीन भायर खोल्लून उडयतलों.

(तिचे वटेन धेंपां उडयता. आसलोग अर्दी भियेल्ली, अर्दी विरोधी)

**एरीक**

(तिका बळयां आपले वेंगेत घेत)

अशी म्हजे भितर अर्सून तूं काळाच्या अंता मेरेन तिगून उरतली.

आयज राती!

**आसलोग**

कशें जाले हें सगळें?कोणें म्हजेर अशी झोंपय घालून
म्हाका पराजीत केली? हे भग्न आनी उद्विग्न मना
मात्शें थारून देवां वरी मस्तकाक तूं मात्शें काम करूंक दिवंचे ना?
जग कितें. खिणांत बदलूंक शकता? दुस्वास कितें असो आपशींच
मोगांत रूपांतरीत जाता? मोग हांगा नाच ना. आजून आसा
खंजीर म्हज्या हड्ड्याकडें. तो भयंकर, सुंदर आनी तेज आसा.
ताका मर्ण ना. हे मना, तूं आतां शांत जा. आतां मस्तकाक काम
करूं दी. हे लखलखत्या संगमरवरी मुखामळा
तूंच हे धर्तरे वयलो ओडीन आनी थोर!
कितें आसा ह्या ओंठांच्या स्पर्शात, ह्या उम्यांत, जाका लागून
हे सृष्टींत बदल जाता? एके तरेचो सोरो आसा जो
मनशांक पिसो करता; आनी कितें हांव पियेवंक ना तो?
ताची बंदी जावपाक, ताची इच्छा सोडून आनीक कितेंच न
वळखुपाक !
आसलोग आनी एरीक! आसलोग, स्वेनाची भयण
जाणें निठूर हिमखंडांकूच आपलें बिछाणें केलां
आनी जो हरणांच्या हिंडां वांगडा दीस सारता, आनी
केन्ना तरी तो राजा आसलो. कोणें घेतला ताचो जागो?
एरीक आनी आसलोगाचें राज्य. एरीक जाणें स्वेन सांपडल्यार
ताका जिवो मारपाचो हुकूम सोडला. आसलोग त्या अत्याचारी
अपहरणकर्त्याची बायल, जी आपल्या भावाचे हत्येक लागून
आपले अधिकार सुरक्षित राखूंक शकल्या. पत्नी एरीकाची

बंदी, ताची रखेल - ताचो अंहकार हेंच करूंक सोदता.
हे दिव्य शक्तिंनो म्हजे तकलेर असलो कसलो सांवार
सुंवाल्ला काय? हांवे केलां आत्म समर्पण, आपल्या भावाचें
राज्य, जिवीत, अभिमान, महत्वाकांक्षा, आशा-बोध
सगळें विसल्ल्या आनी शाबूत उल्ल्या फक्त निर्लज्जा
आयज राती! कितें जातलें काय आज राती? आयज हांव
ताचे मुखार नाचतलीं - महाराज ओलाफाची धूव ह्या
कालच्या नवाबाची उद्धट एरीकाची नर्तकी जाता !
आनी कितें जातलें आयज राती? कोण शिकार बी
करतलो नोर्वेच्या आसलोगाची? म्हज्या नशिबा
म्हजें मानसिक संतुळण परत दिल्ले बद्दल तुजी
उपकारी आसां. सगळें आसलें नाटक आनी
भयंकर फुसलावणी, आनी म्हजेय भितर मेळळें पाळ
विस्वासघाताचें. नागवणी?
देवतुल्य तेजाळ दोळयांच्या सौंदर्या!
स्वर्गीय स्वामित्व व्यक्त करतल्या मुखामळा!
ना. हांव ताका निखळायतलीं, निखळायतलींच ताका
पालव दियात देवांनो, म्हज्या काळजा विरूद्ध म्हाका हात दियात
हांव ताचेर अकस्मात धपको घालतलीं, थारचीं ना हांव
ताचें सामर्थ्य, ताचो गौरव, ताचें भिषण सौंदर्य आनी
फुलू फुलू मस्तक हें सगळें फट.
ताचेर घालो घालप पूण कठीण आसा !
पूण हांव घालतलीं. स्वेन धपको घालतलो, नोर्वे घालतलो
म्हजो अभिमान घालतलो.देव आनी ताची जीण
खिणा खिणाक म्हजो अपमान करतात.

(हर्था येता)

हर्था, आयज राती हांव ताचेर घालो घालतली.

**हर्था**

कित्याक, कितें जालें?

**आसलोग**

तें तुका कळपाचें ना.

आयज राती घालो.

(भायर वता.)

**हर्था**

ही अशी कित्याक उडटा हें जाणा जावप कठीण न्हय.
म्हाका बेग्गीन हालचाल करपाक जाय, ना जाल्यार
हिचो अंत आकस्मिक आनी कशाय कसो जावं येता.
रक्तपात नाका, मरण नाका फकत शांति.हे देवांनो
जाय फकत जीवन, शांत प्रशांत म्होंवाळ आनी मोगाळ.

●

अंक : 2

देखाव : 2

(एरीक,हर्था)

**एरीक**

हांवें तुकां तुजो जल्म आनी तुजें नांव जाणा जावंक आपयल्या.

**हर्था**

म्हजें नांव हर्था आनी म्हजो जल्म हीन कुळयेंतलो, नोर्वेच्या स्वाम्याक सांगपाक लेगीत लज दिसता.

**एरीक**

तरी पूण सांग.

**हर्था**

त्रोंडजेमाचो एक शेतकार आनी एक काम करपी चली हांचें हांव अपत्य.

**एरीक**

आनी असल्या कुळांत हें तुजें सौंदर्य ही तुजी चतुरकाय आनी तुज्या लावण्यान जल्म घेतला?

हर्था

हे देव केन्ना केन्ना सैमाचे सगळे सामान्य नेम अशे तरेन बदलून उडयतात, पार्थीव तत्वां आनी आमच्या संबंधाक बाध्य करतात. ना जाल्यार संवसाराक देवाचें अस्तित्व तरी कशें कळप?

एरीक

तुका कोणें मनीस केली?

हर्था

नोर्वेच्या गोथबर्गाच्या भाटकाराचे एके नर्तकेन.भुरगेपणांतूच म्हाकां तिका सोंपयिल्ली. तिचें नाच गाणें हांवे आपणायलें.

एरीक

तांचीं नांवां कितें? दासयेचें आनी स्वाम्याचें?

हर्था

नोर्वेचो ओलाफ, तेन्नाचो त्रोंडजेमचो सामन्त. आनी थिओर्डीस जिचेर तो मोग करतलो.

एरीक

तूं वळखता स्वेनाक त्या राजद्रोह्याक?

हर्था

हय. हांव वळखतां.

एरीक

घडये ताचेर मोगूय करता आसतली?

हर्था

स्वताय परस चड.

एरीक

हय? तो निबर, असभ्य आनी घातमारो, न्हय?

हर्था

(मात्शी हालचाल)

सामन्त आनी महाराजां संबदान म्हाका कांयच म्हणपाचें ना. म्हज्या कुळाचाराक तें सोबेचें ना.

एरीक

ओह, तूं ताचेर मोग करता !

तूं कशी दोशी थारायतली?

हर्था

महाराज , तुजो गैरसमज जाता.

तो जैतवंत जावंक शकना आनी तो मानूय बागोवंक शकना. फकत नोर्वेक दुर्बळ करता. हे खातीर हांव ताका दोश दितां.

एरीक

हें पळयलें तुंवें? तुज्या शेतकार बापायक तुजे सारकी अजापांची राजकर्ती धूव म्हण मेळ्ळी. तुका हांवे गोंदळायली ?

हर्था

हांव ही अशी जशी देवांनी घडयल्या तशी.
पूण हांव जाणां, हांव जशी आसां ते परस तूं म्हाका वेगळो समजता.

एरीक

म्हाकाय तशेंच शें दिसतलें.

हर्था

महाराज एरीक एक गजाल सांगू?

एरीक

म्हाकां सत्य आयकुपाची उमळशीक आसा.

हर्था

तशें जाल्यार आसलोगाकडें म्हाका विकूं नाका.

एरीक

तेंय खरें.
तिका कांयच कळपाचें ना.

हर्था

महाराज, हांव हांगासर नर्तकी वा गावपी न जावन आयलीं जाल्यार? आनी कित्या खातीर तरी. आनी तरी हांव तुजी इश्टीण, बरें मागती, कायंच ना जाल्यार ह्या नोर्वेची आनी नोर्वेच्या शांततायेची आस धरपी?

एरीक

सामकें कळटा तशें सांग पळोवया.

हर्था

युद्धाच्या एक्का टणत्कारा बगर स्वेनाक कशें जिकचें हाचे बद्दल तुका समजायलें जाल्यार तूं म्हजी एक खर गरज भागयतलो?

एरीक

हांव तुका खुब दितलों.

हर्था

खऱ्यांनीच न्हय ?

एरीक

जर अशे तरेन हांव ताका जिकूंक शकलों आनी नोर्वेक आनी म्हाकां जर कांयच नुकसान जालेंना जाल्यार तुजी गरज भागूं येता.

हर्था

हय तशेंच.

एरीक

सांग तर आनी माग.

**हर्था**

आजून म्हजें सोंपूंक ना. इतले मदी तुज्या माथ्यार
भेंवताडे घालपी एका संकश्टांतल्यान तुका सोडयल्यार
तूं म्हाका खूब कितें दितलो न्हय?

**एरीक**

आनी? वयर म्हटलां तशेंच.

**हर्था**

जर व्हडल्या व्हडल्या दुस्मानांक हांवें तुज्या हांतात सोंपयले,
जे आजून तुका खबर ना जाल्यार वेगवेगळया रिणांच्या
हिशोबांत घुस्पावन करारा प्रमाण म्हजें बक्षीस
गल्पोंवचो ना मू?

**एरीक**

तुका आनीक कितें मागपाचें आसा? तूं बरीं वांटपणां करता.

**हर्था**

नोर्वेक शांती, तुका इश्ट, संरक्षण आनी साम्राज्य हांचे परस
म्हज्यो मागण्यो व्हडल्यो आसात?

**एरीक**

हांव तुज्यो तीन मागण्यो मान्य करतां.

**हर्था**

इतलें खूब जालें. जाचे कडेन पावता इतलें आसा जाल्यार तो चडाची

मागणी करिना. हांव तीन पावटीं मागतलीं आनी एरीक तीन पावटी दितलो. आनी मागीर नोर्वेत ताका कोणूच दुस्मान आसचो ना.

**एरीक**
सांग

**हर्था**
तुजे दुस्मान हांगा आसात. नर्तक्यो न्हय,
पूण हर्था स्वेनाची बायल आनी आसलोग, ओलाफ
तोर्लेक्सनाची धूव आनी स्वेनाची भयण.

**एरीक**
बरें आसा.

**हर्था**
तुका भिरांत आसा ती आसलोगाच्या हातांतल्यान, आनी खंजीर जाचो वार तुज्या काळजार जावंचो आसा. आयज राती तुजेर ह्या खंजिराचो धपको पडटलो.

**एरीक**
आनी स्वेन?

**हर्था** : म्हाका स्वेना कडेन भंयकर समाचारा सयत धाड की आसलोग तुज्या हाताक लागल्या; अशे तरेन आसलोगाच्या जिविता बदला ताचें समर्पण माग. आनी मागीर राजकीय उदारतायेन ताचो विस्वास आनी मोग जीक.

एरीक

त्रोंडजेमाचे भूतपूर्व राणये, तुंवें निरमेकळेपणान सगळें सांगलां. आतां तितल्याच मेकळेपणान माग.

हर्था

स्वेनान समर्पण केलें जाल्यार ताका जिवीत आनी स्वातंत्र्य.

एरीक

तें तुकां पावलें.

हर्था

आनी आसलोगाक जिवीत तशीच क्षमा. पूण स्वातंत्र्य न्हय.

एरीक

तेंय दिलें.

हर्था

आनी निमाणें म्हाका  गुन्यांव भोगोस. म्हज्या देशद्रोहा बद्दल तशेंच सांपळया बद्दल म्हाका क्षमा करची.

एरीक

हेंय दिलें.

हर्था

आतां म्हजेकडें मागप सारकें आनीक कांय ना.

**एरीक**

तुजें म्हण्णें सोपलें? आतां म्हाकां तुजे बंदखणींत तुकां धाडूं दी.

**हर्था**

म्हजी बंदखण ! तूं म्हाकां स्वेनाकडें धाडचो ना?

**एरीक**

ना, धाडचो ना. कित्याक जाणा, तुजे भिरांकूळ तकलेंत आनी सुक्षीम मनांत, तुका जर मुक्त सोडली जाल्यार कितले कितले भयंकर हानीकारक आराखडे तयार जावंचे नात कित्या वयल्यान? हांव कितें स्वेना सारक्या धूर्त आनी फिशाल योद्ध्याक आनी ताचे तलवारीक इतलो सुपीक मेंदू दितलों? आनी समज ताणें समर्पण केलें ना वा शांतताय मानली ना म्हण कितें जातलें? तूं ताका सांगची ना की आसलोगाचें जिवीत सुरक्षीत आसा म्हण? चल बंदखणीत!

**हर्था**

पूण, महाराज, तुवें वचन दिल्लें!

**एरीक**

हर्था, स्वेनाचे राणये, तुका दिल्लें वचन हांव पाळटां. स्वेनाक तुवें जिवीत आनी स्वातंत्र्य मागलां, आसलोगा खातीर जिवीत आनी क्षमा आनी तुका फकत क्षमा. हांवूय धूर्त जावंक शकतां हर्था. तूं म्हजी बंदी आनी दासी.

हर्था

(मात्शी रावून, हांसत)

बरें आसा. हांव समाधानी आसां. तुवें नोर्वेचो जैतवंत योद्धो म्हण नामना मेळयल्या तसोच नोर्वेचो मुदल बुदवंत म्हणय दाखोवन दिलें. जावं बंदी जावं स्वतंत्र, म्हाका स्वेनाच्या महाराजाक एरिकाक नमस्कार करूंदी.

एरीक

आतां तूं संतुश्ट आसा?

हर्था

हें मुखामळ आनी उदात्त वेव्हार फट जांवक शकना. हांव संतुश्ट आसां आनी म्हाकां तुजे फुड्यांत सुरक्षितुय दिसता जितली हांव म्हज्या घरकारा वांगडा आसतां.

एरीक

(हासत)

तशी तूं आसाच. तुजी सुक्षीम वाणी, तुजें लागसारपण आनी साहसी तकली, खऱ्यांनीच म्हाकाय तुजे वांगडा तितलेंच सुरक्षीत दिसता.

हर्था

महाराज एरीक, म्हाका तुजो दुस्मान समजूं नाका.
जितलें तुका दिसता तायेच परस म्हाका चड दिसता.

**एरीक**

तें मतींत सांबाळ. आसलोगक दुबाव येवं नये. हांव म्हजे पद्धतीन आसलोगाकडें, तुजेकडें आनी स्वेनाकडें वागतलों. हर्था, चल तुका कसलीच भिरांत ना.

(हर्था वता).

हे महाराणये फ्रेया, थोर आनी ओडीना प्रमाण तूंय म्हाका आदार दिता. हांव नोर्वेक एक करतलोंच.



अंक : 3

देखाव : 1

# एरीकाचो म्हाल

(एरीक, हाराल्ड)

**एरीक**

फांतोडेर आक्रमणाक वचपाची सगळी तयारी जाल्या.
हांव स्वेनाचें शीर घेतले बगर परतुंचो ना. ना जाल्यार ताका
जितोच तरी धरून हाडटलों.नर्तकी आसलोगाक म्हजे म्हऱ्यांत धाड

(हाराल्ड भायर वता)

हांवे हें साम्राज्य आत्मगिन्याना सयत परत हातांत घेतलां.
हो सशक्त देवदूत मोग, हो उग्र आनी तेजवंत अतिथी. ताणें
म्हज्या काळजार कसलोच किंतु नासतना आपलो अधिकार स्थापूं
पूण म्हज्या मस्तकार हल्लो करचो न्हय आनी म्हज्या आत्म्याच्या
तरातरांच्या सूर - सुसंगतीक आपल्या निरंकुश बेसुरीपणान
फुट घालची न्हय. आनी तशेंच मानवतायेच्या विविधांगी
संगीत ब्रह्माक आपल्या एकसुरी आनी तकलीफोड अवस्थेंत
बदलून उडोवचें न्हय. सभावांत शक्त,मनांत गिन्यान

आनी काळजांत मोग म्हटल्यार पौरूषत्वाची पुराय त्रिमुर्ती
प्रभावाचो अभाव हो म्हज्यांतलो एक व्हड उणाव.
ही रिकामी गाळ हांव केन्नाच भरूंक पावलों ना
हाका लागून म्हज्या आत्म्याक फकत देवांचे धड मेळ्ळें,
एक म्हान शिल्प जालें पूण अपूर्ण. म्हज्या गडगंज
आनी ओबड धोबड कामाची तुस्त जाता पूण विरता.
तिका अमरपणाचो स्वास मेळना जाका लागून
चिरंजीवपणाचो दबाजो निर्माण जाता.
आह... ताणें म्हटलेलें उतर सत्य आसलें.
मोग मोगूच काळाची गाळ भरून उडयता.
मोगाच्या माध्यमांतल्यानूच आमी नक्षत्राकडें
नातें जोडटात आनी आकाशाच्या व्यापक अवकाशाचोय
अर्थ आमकां कळपाक लागता. ईश्वराचें रूप ताणेंच
निर्माण केल्ल्या भव्य आत्म्यांत पूर्णपणान प्राणप्रतिष्ठित
आसता आनी मनीस सभावांतल्यान तें आमकां कळटा.

(आसलोग येता)

पावली तूं हांगासर ! हे मुखार तुका आनी कसलीच सवलत ना.
कितें आसा तुज्या हड्ड्यांत?

**आसलोग**

फकत काळीज.

**एरीक**

घुस्पल्लें, गडबडलेलें पूण उदात्त काळीज. म्हाका दी तें
आसलोग, कारण तें फांतोडेच्या उषांचे गुपीत जावं येतलें,

आसलोगाच्या हड्ड्यांत रावपी मोगान लब्धल्लें काळीज
विद्रोह विरयत जाल्लें, मोगाच्या अधिपत्यान धड्डडटलें.

**आसलोग**

तुवें म्हाका कित्याक आपयल्या आनी हांगा येवपाक बाध्य केल्या?
कित्याक, तूं आजून म्हजेर आनी तुजेरूय दया करूंक सोदता?

**एरीक**

हांव एक झुजारी. जाका दया म्हणजे कितें तें
कांयच खबर ना. म्हाका शिकयशी तूं ती? आसलोग
हांवें म्हज्या आत्म्या कडल्यान तशेंच जिविता कडल्यान देवांचें
गंभीर ज्ञान आनी निर्दय शांती शिकून घेतल्या, तीं
आपल्या मार्गांत बादिकार जाल्ल्या सगळयाचेर अघोर आघात
करतात, कशाय कशे अवस्थेंतले धर्तरेक तीं थोराचे
हातोडेन धाडायतात. हांव तांचे  कडल्यान शक्त घेतां.
ताची इच्छाशक्त एके भिरांकूळ भट्टेंत आकाराक आयल्या
तांचे रस्ते विक्राळ दैवान बेणून बेणून तयार केल्यात
हाचेय परस भव्य आनी मोगाळ तरा आसता ?
जाणा तूं त्यो? दाखयशी म्हाका ती वाट ? तुजी उस्फूर्त
तुरतुरीत पावलां त्या वाटां वयल्या फुलां वयल्यान
चलूंक शकतलीं?

**आसलोग**

म्हाका खबर ना तुजे वाणयेक कोण-फुरण दिता म्हण;
ती काळीज चिरीत वता खोल खोल

**एरीक**

आयज राती म्हजें मन नोर्वेच्या सवन गरजांनी तुडूंब जालां आनी आसलोग तें तुजें रूप घेता.

**आसलोग**

म्हजें? आयज राती हांव नोर्वे न जालीं जाल्यार !

**एरीक**

तूं स्वेनाक वळखता?

**आसलोग**

वळखतां आनी ताची यादूय जाता.

**एरीक**

हय, स्वेन तो सादो मनीस न्हय. तो ओजान भल्लेलो, भयंकर उग्र आनी म्हान आत्मो, तो एक तुफान. तो अटंग्या ल्हारांचो उचंबळ दर्या. तो नोर्वेचेर आपलो अधिकार सांगतलो? पूण ओडिनान हें काम म्हाका दिलां. मर्णाचे आटयेंतूच हांव हें ओडिनाचें काम करपाक हांगा आयलां.

**आसलोग**

आपल्या आशांक आनी महत्वाकांक्षांक अशें दैवी रूप दिता !

**एरीक**

जर ह्या मर्त्य शरिराचो कोणूय घात करूंक शकलो जाल्यार स्वेन लेगीत गाजोवंक शकतलो अधिकार - जाका स्वताचेर राज्य करूंक येना पूण तो नोर्वेचेर राज्य करतलो! आसलोग, हो अधिकार तुज्यान गाजोवं नजो? पूण मोगान भल्लेल्या म्हान काळजांक हें इल्लें कठीण आसता.

**आसलोग**

म्हणजे एरीकाचें राज्य चलतलें जाल्यार स्वेनाक मरचें पडटले! देवांक आनी हाचे बगर दुसरें कांयच येवजलें ना काय?

**एरीक**

राजांची वैरां मर्णघातक आसतात.

**आसलोग**

बरोबर आसा.

(खंजीर सांसपिता)

**एरीक**

आसलोग, तूं आपलें काळीज सांसपिता? ताचेर कोण्णाचें नित्रंयण ना, आपल्या प्रचंड आवेगां प्रमाण तें हांगा थंय विडविडटा आनी आपल्याक त्रासांत घालता. आनी सपनेता की आपूण संवसाराक आदार करता म्हण. आसलोग असल्या लगाम नासलेल्या काळजाकडें कसो वागूं? ताका मोगाच्या सरपळयांनी कित्याक बांदुया नाका? आनी ताच्या

दुख्खांक आनी रागाक लुटून ताका ताच्या परम इच्छांकडे
कित्याक जोडुंया नाका? एका निरंकुश शासनाच्या अनुशासनान
तशेंच मधुर बन्धनाच्या माध्यमांतल्यान तें आपाप मुक्त
जावन धड्डडूंक लागतलें.

**आसलोग**

आनी ताचे भितर जे सणसणटले ताण आसात तांचे कितें
जातलें ? ते अकस्मात वयर उसळून येवं नज?

**एरीक**

ते थंड रावतले.

ते बोब मारचेनात ना विचारचे प्रस्न;ते विस्वास दवरतले.

**आसलोग**

अशें कशें जाता की ताका म्हजें सगळेंच काळीज कळटा!
पूण ताच्या उतरांतल्यान देव म्हजे वांगडा खेळ मांडटा, हें खरें.

**एरीक**

खबर आसा तुका,

हांवें कित्याक आपयल्या ती?

**आसलोग**

हांव जाणां हांव हांगा कितें करता ती.

**एरीक**

थोड्यांकूच खबर आसा आसलोग की ती हांगा, कित्याक
आयल्या ती. तें स्वर्गीय गुपीत.यो बस म्हजे म्हऱ्यांत,

म्हज्या काळजा कडेन. अनमनूं नाका ! यो. हांव झोंपय
मारचों ना तुज्या हातांचेर.

**आसलोग**

ते आसात आजून मुक्त.
देव म्हाका बेगीन घालो घालपाचो आदेश दिता काय?
म्हजें काळीज गिरगिरत ज्वाळांनी भगभगतले खळयेंत
पडत येता. तुका जर मोगान राज्य करचें आसा जाल्यार
तुज्यान आपल्या दुस्मानाचेर दया दाखोवं नज?

**एरीक**

जाता, पूण सर्मपण करतात तेन्ना. तुंवें कितें करपाचें
तें थारायलें?
तुका जर आजून म्हजे विरूद्ध कितेंय मांडचे आसा जाल्यार
बेगीन सांगून उडय.ह्या तुज्या हुतहुत्या
हातांक आनी उतावळया तशेंच सर्गसुखा पसून पयस
पळटल्या काळजाक बंदी करचे पयलीं सांग.

(आसलोग रागान थरथरता.)

**आसलोग**

महाराज, आयज राती हांवें तुजें मुखार नाचचें अशें तुंवें
चितलेलें न्हय?

**एरीक**

तशें म्हाका दिसलेलें आतां तुका
तशें दिसता? जे मेरेन हे पांय तुजे आसात ते मेरेन नाच.

**आसलोग**

हांव नाचतलीं. हांव थिओर्डीस आनी खंजीर हो नाच करतली, जो हर्था त्रोंडजेमांत शिकली आनी तिणें म्हाका शिकयलो.

**एरीक**

(हांसून)

आसलोग म्हजे नर्तके, तुज्यांत आनी तुज्या नाचांत
धडाडी आसा पूण सुक्षीम बुदवंतपण खुब्ब उणें आसा.

**आसलोग**

(मात्शी पयस सरत)

जाळांत हात मारून कितें जातलें? फुकट त्रास ! ताका खबर आसा. ताचें तेळप चौकस?हांव ताचेर अकस्मात धपको घालतलीं.
थारयल्लें काम करपाक लायक आसलेली ती आतां तिच्या
दोनूय वाटांनी खोल आनी भंयकर खायो पळोवन लेगीत
फाटी सरपाची ना. अशें करून ती आपल्या रंगतांतलो
दोशूय धुवन उडयतली.जी आपल्या काळजाचे भकीक
पडना, ती हें असले म्हान कर्तूब करतली.

**एरीक**

तें भिरांकूळ खेळणें घेवन तूं निरर्थक खेळ खेळटली?
नाच आतां!

**आसलोग**

म्हजे पांयूच येनात.

**एरीक**

तांकां अधिकारूच ना.

**आसलोग**

हे देवांनो, हे भगभगते भट्टेत पावचे पयली पासुनूच हांव कोण तेंच म्हाका खबर नासलें. ओडीनाच्या तिरसुवादपणाक लागून म्हाकां ओलाफाच्या बिंयांत आकार मेळ्ळो. हांव बेडयांचेर आनी गुलामपणाचेर मोग करतां. आनी पांदऱ्यांत बंद केल्ल्या जंगली सवण्या वरी म्हजें काळीज एका अत्याचाऱ्याचें कणखरपण आंवडेता.

**एरीक**

नाचना तूं?

काय तुज्या आंगाक म्हज्या आंगाच्या स्पर्शाच्या आनंदल्हारांची याद जायसर वाट पळयतली?

म्हाका दिसता की तुज्या नाचाची परिपूर्ण आनी श्रेष्ठ गती मोगाचें सपन जांव.पूण हें तेन्नाच शक्य जातलें जेन्ना नोर्वे फकत म्हजो आसतलो आनी स्वेन बंदखणींत. फाल्यां सक्काळीं तांबशेर हांव युद्धाखातीर प्रयाण करतलो आनी स्वेनाची तलवार हांव तुजे खातीर खेळपाच्यो वस्तू करपाखातीर घेवन येतलों. त्यो तुज्या नाचांत तुका अभिनया खातीर पालव दितल्यो. आसलोग तुज्या खंजिराचो जागोय ती घेतली.

**आसलोग**

ताच्या उतरांतल्यान आजुनय भाग्य म्हाका प्रेरणा दिता आनी एरीकूच म्हजे दुर्बळतायेक ताका मारपाचे आमंत्रण दिता.हय,ताका दुभाव आसा आनी तो जाणा. तरी आसताना हांव हल्लो करतलीं. म्हज्या विद्रोही काळजाक पांयांतळा माड्डयतलीं. आनी जेन्ना हें सगळें घडलेलें आसतलें तेन्ना हांव म्हजेरूच प्रहार करून वांगडाच दुख्ख, लज आनी मोगाचोय निःपात करतली.

**एरीक**

तुका हांवें दिल्लो तो हार खंय आसा आसलोग? तुज्या गोऱ्यापिट्ट हड्ड्यार ह्या मोगाळ माणकाक तूं नाचतना दर्याच्या ल्हारावरी उडटना तशेच मोडटना पळोवपाक आशेतां. नाच, म्हज्या जिविताच्या तालाचें सर्जन करपी तुज्या पावलांचो, आनी त्या नृत्यांतल्यान हांव निर्माण करतलों वज्रप्रहार जो स्वेनाक जिखतलो.

**आसलोग**

हार? हाडटां हांव. मोगाचें माणीक! तरी मरणाचे रक्तथेंब!

(भायर वता)

**एरीक**

आघात करपाची तिच्या हातांतली शक्त थंड जाल्या, आतां ती फकत हट्टी चिंतनांत उल्ल्या. तिका दिसता, आघात करूंक शकतली. (तो थंड आड पडटा आनी न्हिदपाचें सवंग करता आसलोग परतता.)

आतां हांव ताका खलास करूंक शकतां. पूण तो दोळे उकते करतलो आनी आपले नदरेच्या सौंदर्यान धपकायतलो आनी चक्रायतलो. ताका संकश्टाची जाणीव ना! काय ताणें म्हटलेली उतरां म्हणचे भटके विचार? काय नशिबूच ताच्या तोडांतल्यान उलयतालें? तो ही निमाणी न्हीद घेता काय? एक पावट, फकत एक पावट हांवें ताका मोगान स्पर्श कित्याक करचो न्हय? म्हजे बगर आनी मरणा बगर हाची कोण्णाक खबरूय आसची ना. म्हाकां ताची हत्या अशे तरेन करपाक जाय जसो कोणूय ती उग्र नसायेन करता. पूण एरीक, नसाय न्हय, देवांनी धाडलेल्या जिविताचे खर आवश्यकतायेचें कारण - दोन ज्वाळो ज्यो एकामेकांक पालोवपा खातिरूच मेळटात. एरीक, फकत एक पावट उपरांत क्रूरतायेन भल्लेलो विसव! हांवें ताका  कित्याक स्पर्श केलो?म्हजी सुद्द वता काय? म्हजी शक्त गळसणत वचूंक लागल्या.हे तेजस्वी देवांनो, तुमी स्वेनाचे आनी आसलोगाचे अशे दुस्मान कित्याक जाले? आमी सहजतायेन एकामेकांचो मोग करताली. पूण मरण आतां आमचे मदीं येवन उबें जालां आनी म्हज्या हातांतल्यान तुजी मागणी करता आनी तें आतां म्हज्या हातांत इतलेंच दवरता की हांवें तुजी हत्या करची. आनी तुजे वांगडा हांवूय मरून वचची. होच आमचो एकमात्र एकवट.मर्ण! कोणाचें मर्ण? एरीकाचें काय स्वेनाचें? म्हाका एकट्याक मारपाक जाय. निवडणुकेची ही कसली विकराळ आवश्यकता?

ताचो हुस्कार थंडपणान सुखाच्या तालान चल्ला. ताचे

दोळे स्वर्गांत न्हिदलेल्या ओडीनाचेशे. आघात करचो आसल्यार तो ह्याच खिणाक करप गरजेंचे कारण काळ, भूंयारां खणप्यावरी वावुरता, जो म्हज्या उल्लेल्या सुल्लेल्या निश्चयाकूय खणून उडयता. स्वेनाचें मर्ण काय स्वेनाची जीण ह्या इल्ल्याशा खिणाचेर निंबून आसा. थंय स्वेनाचें मर्ण काय जीण आनी हांगा सहज अचळय धपको! पूण हात उबारपूच कितलें जड जालां? वाट पळोवं? कांय खीण ह्या बंद पातकड्यांक आनी शांत मुखड्याक पळयत रावूं? आनी सपन पळोवं की हें सगळें कितें वेगळेंच घडत आसा! पूण खीण म्हटल्यार नशिबाचे विचार आसतात जे आमकां दोळयांत तेल घालून तेळटात.हांव हांगासर थारलीं जाल्यार थंय म्हज्या भावाची हत्या जाता आनी स्वता हांवूच एक दवल्लेली तशीच गुलाम जावपाचें दुर्भाग्य आपणायतां. आतां म्हाका ताचे विचार येवंक उपकरनात!बंद जा, बंद जा म्हज्या मना.बंद जायात म्हज्या दोळयांनो! विचार करपाक कळनासलेल्या हातांक आपल क्रूर कर्म करपाक मेकळे सोडात. (दोन पावटी खंजीर वयर उबारता आनी सकयल करता आनी उपरांत जमनीर शेंवटिता आनी एरीकाच्या पांया कडेन दिमी मारता.) नोर्वेच्या एरीका, तूं खूब जिये, आनी आसलोगाक, स्वेनाचे भयणीक आनी ओलाफाचे धुवेक, त्रोंडिजेमच्या आसलोगाक जें तुका जाय तें कर. कारण ताचे विचार रांड जाल्यात. ताचें काळीज रांड जालां आनी ताचे हात आपल्या भावाचे खुनी.

**एरीक**

हाल्लीच तूं शेवटाक!

**आसलोग**

हाय, म्हज्या दुश्ट आनी दुर्बळ सभावाक लागून म्हाकां हार खांवची पडली. महाराज, अत्याचारांची ख्यास्त म्हण जे जे अपमान आसता, जीं जीं उणाकपणां आसता तांतले एक लेगीत म्हाका दिनासतना राखून दवरूं नाका. म्हाका अन्यायान दया दाखोवं नाका. कसलेय तरेचे ख्यास्तीक हांव लायक आसां आनी तयार आसां.

**एरीक**

आसलोग!

**आसलोग**

ना.म्हज्या नांवाक आनी म्हजे कुळयेक जल्मदात्यांक हांव शेणल्यां. हांव आतां त्रोंडजेमची नागरीक उरूंक नाः ती अशी असफळ जावंची नासली. मोग करूनूय हत्या करपाक ती फाटीं सरची नासली. आतां म्हाका खंयच्याच आवाजान आसलोग म्हण उलो मारचो न्हय.

**एरीक**

स्वेनाचे भयणी तूं जाणा जा, हांव तुजेर प्रेम करतां म्हण. ओलाफाचे धुवे, ह्या नोर्वेच्या शिंवासनाचेर म्हज्या शेजरा बसपाची आस तुवें कित्याक धरची न्हय?

**आसलोग**

थुमेकाल !

ज्या आसनार ओलाफ बसतालो तें अशे तरेन तुवें कलंकीत करप ना. तुजेर आघात करून जर तुजी हत्या जाल्ली जाल्यार हांव राजशिंवासना

परसूय चड योग्यतायेची जातली आसली; म्हजे असल्यांचेर नोर्वेचो मुकूट चडूंक फावना. म्हजे सारक्या दुर्बळ प्राण्याचे हात तिच्या काळजा वरीच निर्वीर्य, आनी वासनांचे दास आनी तिची व्यसन ओड कुड तिच्या उच्च आदर्शांक तकली सकयल घालूंक लायता. तिचे वांगडा आपले स्वैर इच्छे प्रमाण वेव्हार कर. महाराज,तुंवे जर म्हाका सोडली जाल्यार आजुनय हांव तुजी हत्या करूंक शकतलीं.

**एरीक**

अशी काळजांतल्यान तुंटू नाका. धिटायेन पळय आनी ताची पसंती आपल्या आत्म्याचेर बिनबाधा लागू जावं दी. एक पावट ताचो मार्ग आपणायलो जाल्यार तूं पळयतली काळीज कितले वेगीं धांवता तें. तुका प्रत्येक कामांत - जावं समर्पणांत वा हत्येंत - अबाध आनी उग्र जावंक जाय. मोगाळ भीषण प्राणा देव तुका अजापांत घालता, लजे संकोचा बगर आपल्याक समर्पित कर.

**आसलोग**

जें दिलां ताचे परस चड आनी तूं कितें मागूंक शकतलो?
हांव तुजे मुखार नतमस्तक तशीच साष्टांग समर्पित आसां.

**एरीक**

आपल्या हीण मनांतली कोडसाण
भायर मोखून मार.म्हजी जावपांत तूं खऱ्यांनीच आनंदी आसा
हाचो अणभव कर. तूं थरथरता ?

**आसलोग**

हय. लजेन, दुख्खान आनी मोगान हांव थरथरतां.
आतां तूंच म्हजें नशीब आनी हांव तुजे आधीन.

**एरीक**

अशें म्हणून तुजी सुटका जातली काय किते?

**आसलोग**

स्वेनाक वांचय. हांव तुज्या हांतात  आसां.

**एरीक**

ही कितें अट? हांव तुजो स्वामी

आनी स्वामी स्वेनाचोय, जाय जाल्यार मारूं येता वा वाचोवं येता.

**आसलोग**

ना, एक विनंती. हांव हांगा पराजीत,

म्हजें मस्तक तुज्या पांयांर आसा, म्हजी जीण तुज्या हातांत

आनी परजैताचो  शिरंङार म्हज्या काळजांत

**एरीक**

तशें जाल्यार ऊठ आसलोग, आपल्या स्वाम्याचे आज्ञेक पाळो दी.

**आसलोग**

तूं म्हजें कितें करूंक सोदता?

**एरीक**

पयली एक कर आसलोग.

घे तो खंजीर, आसलोग आनी कर तुजो नाच.

थिओर्डीस आनी खंजीर.म्हाका पळय हेवटेन तेवटेन;

हांव फकत बसतलों, तुंवें केल्ल्या आघाताचो प्रतिकार करचों ना

जें तुज्या आवेगांनी चिंतलां, स्थीर काळजांत ताचो स्वीकार जावं;
म्हजी जीण आनी म्हजें राज्य दोनूय तुजेकडें आसात
आनी तीं तुजें देणें म्हणुनूच हांव म्हजेकडें दवरतलों.

**आसलोग**

ती तशीं तुजींच आसात; तरी हांव आज्ञा मानतां.
एरीक म्हज्या आनी नोर्वेच्या राजा, म्हजी जीण आतां
म्हजी उरूंकच ना, पूण ती तुजी जाय जाल्यार राख नाल्यार मोड.

**एरीक**

स्वेनाची जीण म्हज्या हातांत आसा. खंजिरा वांगडाच तुंवें
ती म्हाका दिल्या.

**आसलोग**

तुजीच वस्त तुज्यान वांचोवं येता.

**एरीक**

ओलाफाचे कुळयेंतल्यान नोर्वे पयस करून तुंवें म्हाका दिलां

**आसलोग**

तुंवे जें घेतलां तें हांवें तुका दिलां.

**एरीक**

शेवटाक म्हज्या सर्वग्रासी प्रेमाच्या अतुल्य आवेगां विरूद्ध एक लेगीत
वस्त दवरनासतना सगळें समर्पित कर.
तूं जाणां म्हाका तुजी मात पसून काकूत ना.

**आसलोग**

(मंद उतरानी)

हांव तुजीं,

तुका म्हजें जाय तें कर.

**एरीक**

कारण आतां तुका खयचीच वाट ना. आदार ना.

**आसलोग**

म्हाका कोण्णाचो आदार ना.म्हाका म्हज्या देवांनी हांगा शेंवटिल्या
आनी तुज्या भिरांकूळ हातांत सोडल्या.

**एरीक**

अखेरेक तूं संतुश्ट आसा न्हय, तांणी तुज्या मनांत हें षडयंत्र
तुज्या आत्म्याक ताचे उग्रतायेन फसोवपाक फुंकलेलें जाका लागून
म्हाकां एक गुलाम आनी सुंदर बंदी आनी तूं तुज्या स्वाम्याक मेळची म्हण!
हांवें जरी प्रतिकार न केल्लो जाल्यारूय तुजो खंजीर म्हजें कांयच करचो
नासलो. वाऱ्यान सुर्याक स्पर्श करचो तसोच तो म्हाका स्पर्श करपाचो.
नशीब आनी तुजो मोग तुज्या काळजांतले म्हजे इश्ट आसले.
पळय, तुजे खातीर ही ओडीनाची कुरू.

**आसलोग**

आतां सगळें समजता म्हाकां.
हांव दंडवत घालून म्हज्या नशिबाची वळख घेतां
आनी आतां शांततायेन बेडयो घालून घेतलीं

आनी त्यो तोडून उडोवपाचें मनांत लेगीत हाडचिंना.

**एरीक**

तुज्या भाग्याचो भार,तुज्या सौंदर्याचो निधी तशीच तुजी अमुल्य जीण हें सगळें म्हजेर सोंपय. ही भांगर आस्पत हांव बरे तरेन सांबाळटलों. ती तुजे कडेन सुरक्षीत नासली.हे सगळें आतां उमेदीन समर्पण कर. तुजो आत्मो आनी कूड ओंप आसलोग तुज्या प्रेमीक आनी स्वाम्याक.

**आसलोग**

म्हाकां बाध्य कर; ती तुका विरोध करचीं नात.

**एरीक**

पूण म्हाकां तुज्या काळजाचें समर्पण जाय, फकत तुजी कूड नाका. म्हाकां तुजें काळीज दी. ताच्यो गुप्त होंवऱ्यो उकत्यो कर,तांच्यो चावयो म्हाकां दी.

**आसलोग**

हे एरीक, म्हजें काळीज, म्हजी कूड, म्हजो आत्मो ही तुजींच,ती आजून तुजे सुवादीन जांवक नात?म्हाका बरें दिसता की म्हज्यां दुख्खांत नाटकांत ईश्वरान विदुशकाची भूमिका करून म्हाका तुज्या सूख सांपळयांत सांपडायली म्हण.

**एरीक**

आसलोग, संवसारांतले एकसुरे अस्तुरे ! आमच्या फाटल्या आडखळींत लिपलेल्या आनंदी आशांचो सांबाळ करपाक तूं आयल्या.

खरेंच एक दीस मोगूच सवन संवसाराक मरणांतल्यान वाटायतलो. तुवें स्वेनाक वांचयलो, नोर्वेक वाटायलो. आसलोग, पळय, फ्रेया आपले वेदी वयल्यान हे कुडिचेर शेक चलयता. तिचे मुखार धूप जळटा. तुजे खातीर थोर न्हय पूण फ्रेया.

**आसलोग**

आतां म्हजे खातीर फकत तूं! आनी देव बीव कोण ना!

**एरीक**

आसलोग तुज्या बोटांत एक मुदी आसा. फ्रेया मुखार तूं ती म्हाका घाल. आनी तिच्या बदलाक ही नोर्वेचे धार्मिक पुजेंतली मुदी तूं घाल.हाचो अर्थ असो की जे मेरेन ही सृश्ट आसा ते मेरेन ती तुकां  आमच्या सुखाक बांदून दवरतली. आनी तुजो आत्मो आपल्या घरा पसून पयस पावलो तरी फ्रेया आपले दासीक सोदून काडटली आनी लाखांनी वर्सां उपरांत लेगीत घरा हाडून सोडटली.

**आसलोग**

हांव लाखांनी जिवितां?

अंक : 3

देखाव : 2

(आसलोग)

**आसलोग**

एके रातीन हो सवन संवसार म्हजे खातीर बदलून गेलो. खऱ्यानीच, खऱ्यानीच आतां सगळें सारकें चलतलें कारण प्रेमाचो अभिशेक जाला. एरीक

**एरीक**

(भितर येत)

आसलोग, वेळ भरत येता.

हांवें तुजो निरोप घेवचो वेळ आयला. आमचे कुडीतल्यान उदेंतेची तांबशी दिसपाक लागल्या आनी हे खासा आवाज उदेत्या सुर्याची आनी प्रकाशमान संवसाराची वाट पळयतात.

**आसलोग**

एरीक, तूं हांगासल्ल्यान झूंज मांडूक वता,

स्वेनाकडें, म्हज्या भावाकडें?

एरीक

तुजें काळीज कितें म्हणटा?

आसलोग

की स्वेन जियेतलो.

एरीक

तूं जाणा की सावध तलवारिंनी ताका सुरक्षीत दवल्ला.
ज्या मस्तकाचेर आसलोगाचो जीव आसा ताका हात लावपाक
कोण्णाक छाती जावंची ना. तरी आसताना ओडीनाचे
वा म्हजे इच्छे भायर जर विनाशांचे सांवट आयलें वा तो आपले
प्रतापी बळजबरेक लागून सोंपलो जाल्यार ताच्या मरणाचो दोश
तूं म्हजेर दवरची ना न्हय आसलोग?

आसलोग

नशिबूच सगळे आदेश दिता. आनी आतां म्हाकां कळूंक लागलां
की नशिबूच सगळया संवसाराची रहस्यमय इच्छा जी मोग
करता आनी श्रम करता.

एरीक

कारण ती परीश्रम करता आनी आमच्या काळजांनी मोगूय
दवरता हेच खातीर आमच्या इच्छांचे गणीत जाता. तांच्याय
मनाची राखण जाता. आसलोग,कांय दीस तुजें मन आशा आनी
विस्वासाच्या नांगराक घाल.हांव तुजें सुख आनी खुशी परत
घेवन येतलों.हांव काळजांत दया आनी करूणा घेवन

वतां, हांव प्रेमा कडल्यान वतां.

(तिका वेंगेंत घेता आनी वता.)

**आसलोग**

स्वेन वांचतलो. एक काळीज शासन करता. लोखणाच्यो देवता न्हय.



अंक : 4

देखाव : 1

# स्वेनाचो पर्वतांतलो किल्लो

(स्वेन, हार्डीक्नट,रेग्नर,कांय शिपाय)

**स्वेन**

झुजात, झुजत रावात,देव थकसर झुजात
ह्या आंवळत वचपी भूतकाळांतलो आसा कोण असो
जाका सन्मार्गांतल्यान कुशीक सरपाक जाय,जाय ह्या
वाजेण्या स्वातंत्र्य झुजांतल्यान कडसरपाक?

**हार्डीक्नट**

हांगा अशे तरेन अनमनपी कोण ना.

**स्वेन**

जाका कोणाक वचूंक जाय जाल्यार ताका सुरक्षीत वचपाक दियात.

**हार्डीक्नट**

वचप खंय आनी कित्याक? एरीकाचे तलवारीकडें
जी केन्नाच भोगशिना? जर आमची काळजां उणाक आसतीं
अयोग्य मार्गान पराजयाक हात लायतीं, त्रासीक सत्याक सोडून
संदीसाधून जातीं जाल्यार एरीक आपूण जावन तांकां आपले
विस्वासू म्हण दवरतलो आसलो.

**स्वेन**

तूं न्हय, दुसरो एक आत्मो. हांव ताका क्षमा करूंक शकतां
कारण हल्लो बरोच खर आसलो! आनी जर राजा एरीक
थारांत नासतो जाल्यार परजैतांत ताचोच हात आसासो समजतलों
आसलों, ताचो हल्लो विजेच्या लोळा वरी, थंड आनी थडक्.
तांतल्यान वाटावप कठीण.

**हार्डीक्नट**

आक्रमण चड करून सिगार्डान केल्लें,ह्या हल्ल्याचें गुरूकेंद्र
एरीकाच्या मेंदवात आसलें.

**स्वेन**

विस्वातघातकी सिगार्ड! तरणाट्या एरीकान ओलिफाचे हत्येंत
वांटो घेवप हें एक वीर झुजाऱ्याचें काम आसलें.ताणें
यारिस्लाफ आनी हाकुनाच्या हत्यांचो बदलो घेतलेलो.
ही हत्या एरीकान न्हय तर नशिबान केल्ली.तो तर
आसलो विस्वासू पूण ताणेंच आपल्या राजाक मर्णाचे दाडेंत धुकल्लो
आनी ताचेच आज्ञेन ते सामन्त उम्मेतीन राजाचें शीर मस्तिताले.

एक दीस तरी ताका म्हजे तलवारिचें पानवळ दितलों.

(भितर येतल्या रेग्नाराक)

रेग्नार, येता निमाणो हल्लो, लागले वाजपाक मर्णाचे धोल?

**रेग्नार**

ना ना. शांती.

स्वेन, पळय तुका पसंत पडटा आसल्यार, एरीकाच्या सैन्या कडल्यान एक राजदूत आयला.

**स्वेन**

रेग्नार ताका भितर हाड.(रेग्नार भायर वता) तो
जैतवंता वरी वावुरता? जेन्ना ताचें राज्य हालपाक लागल्लें
तेन्ना ताणें अशें करूंक नासलें आनी ताणें तलवार सोडून
आपलो दूतय धाडूंक नासलो.

(रेग्नारा वांगडा गुंतेर येता.)

येवकार सामन्त गुंतेर. तूं विस्वासू आसतो जाल्यार
येवकाराचो दबाजो वाडपाचो.

**गुंतेर**

रेग्नार, स्वेन आनी हार्डीक्नट, विद्रोही सामंत,
हांव नोर्वेच्या महाराजा कडल्यान शांती संदेश घेवन आयलां,
धमकी न्हय.

**स्वेन**

इतले दीस खंय लिपतालो तुमचे फाटल्यान हो उत्तरवासी?

**गुंतेर**

तुमी सगळे ताचे भिरांकूळ सांवळेंत आसात. तुमच्यो सगळयो पर्वती धोली आनी भुयांरां एरीकानं चारूय वाटांनी घेरुन उडयल्यांत.

**स्वेन**

(रागान)

कितें म्हणटा तो?

**गुंतेर**

यारिस्लाफाचो पूत महाराज एरीका कडल्यान त्रोंडिजेमच्या सामन्त स्वेनाक :

जीं कारणां आनी संताप आजून मेरेन तुका म्हज्या राज्यपदा आड उबो करतात ती म्हाकां कळळयांत. तुकाय ती कारणां खबर आसात जांणी म्हाकां तुज्या पित्या आड उबो केल्लो - हाकुनाचें मर्ण, म्हज्या मामाक पिडापीड करून उणाक पध्दतीन मारप, आनी यरिस्लाफाक गुप्त दंड दिवन यमसदनाक धाडप.देशाच्या सामन्तां कडल्यान निर्वाचित जावन हांवें हें शिंवासन घेतलें. पूण तुवें आपल्या देशाच्या पोन्र्या कायद्यां विरूध्द विद्रोह करून तलवारीकूच निर्णायक म्हण चड आपणायल्या. आतां तुज्या न्यायालयाचो आनी ताच्या न्यायाचो भौमान कर. तूं ह्या थंड किरांव पर्वतांच्या निर्जन किल्ल्यांनी, भुंयारांनी कित्याक मरपाक सोदता? आपल्या उदार देवांचे भेटेचो स्विकार केल्यार त्रोंडिजेमाची जहागीर, मानभौमान, संपत आनी पद

सगळें मेळटलें. हे स्वेन, आपल्या देशाचेर जाल्ल्या घायांचो विचार कर. शेवटाक तुज्या आनी आमच्याय बऱ्याचो विचार कर. आपल्या बापायचें कूळ वाडूं दी. हांव तुजे जापेची वाट पळयतां.

**स्वेन**

ताणें धाडलेली ही दया हांव ताकाच लखलाभ जावं म्हणटां, फुडारांत ताकाच केन्नाय तिचो उपेग जावं येता.

**गुंतेर**

तूं खूब उलयता. आतां तुजेकडें कसलो  उपाय आसा? कसली आशा आसा? कोण देव तुका मदत करतलो?

**स्वेन**

हो झेल म्हजो इश्ट आनी मात्सो चुकल्यार मरणाची उक्ती विस्तृत वेंग स्वेनाचो स्विकार करतली, पूण गुलामी केन्नाच ना.

**गुंतेर**

जांचेर तुजो मोग आसा तांचे खातीर बागव, आपले बायले खातीर, आपले भयणी खातीर बागव.

**रेग्नार**

तुंवें शाणेपण केलेंना.
हें म्हणूंक नासलेलें जाल्यार बरें जावपाचें.

स्वेन

म्हाका अजाप कित्याक जाता काय,जर जैतवंत मातयेन मळबाक म्हटलें की तूंय आपल्याच तत्वाचें आनी सभावाचें?...

आतां अशेय लोक आसत तांकां दिसता की स्वेनाची राजभक्ती मोलावं येता, ताका मरणाचे भिरांतेन भेश्टावं येता, ओलाफाच्या पुत्राक संरक्षणाची  लांच दिवं येता. अशें कितें दिसता की राजबिजांचो अपमान करप हीच  तुमची खोस. तुका कितें दिसता, त्या कालच्या नवाबा मुखार, भाग्याच्या धनया मुखार,जिविताच्या जुगाऱ्या मुखार, उरफाट्या देवांच्या कृपापात्रां मुखार, त्या तरणाट्या मुखार हांव तकली बागोवं? जेन्ना सिगार्डाच्या विस्वासघातान आनी एरीकाच्या सौभाग्यान अशीर दर्याचेर जाल्ल्या अटंग्या झुजांत ओलाफ पडलो तेन्नाय ताच्या भुरग्यांनी आपल्या म्हान कर्तुत्वाचें प्रमाण दिल्लें. लोकांनी म्हटलां, "तांच्या बायलांचे आत्मे लेगीत देवांकडे दया याचना करपांत आपलें श्रेष्ठत्व सिद्ध करतात. तांचे भाग्य खऱ्यांनीच शक्तवंत, जे आमचे प्रजेक असल्यो सर्ती आयकुपाचो आग्रो करतात! चल, सांग तुज्या महाराजाक की पोन्ऱ्या कुळाचो स्वेन ताच्या वरदानाचो अस्विकार करता. आमचे मर्दी राग आनी रगत सोडल्यार आनीक कसलोच समेट जावप शक्य ना.म्हजें दालें जड आसतें जाल्यार हांव ताका भांगराच्या सुळार चडोवन ताची कात सोलतलों आसलों आनी बायलांक दासयो करतलों आसलों. कित्याक ताच्यान नोर्वेचो मुकूट मोलावन वेव्हार करूं नजो? ही रीत त्या राजांची. बळिश्ट, भयंकर आनी गर्विश्ट अधिकारमत्त राजांची.राजाची शक्त म्हटल्यार देवांचे आज्ञापत्र.

लांच दिवन वा समेट करून साम्राज्यां स्थापना
जायनात.ती जातात शक्तीन. तुजो नेतो धनासक्त सामन्तांच्या
घरांत जल्माक आयला जो असल्या सामाजीक लाभांचेर जियेतलो.
राजांच्या भराऱ्यांची नक्कल तो कितें करतलो वा
राजां वरी आपल्या सावजांचेर झोंपय मारप कशें जाणा जातलो?

**गुंतेर**

ओलाफाच्या पुता स्वेना, तुवें घातक उतरां उलयल्यांत. तुजी बायल
आनी तुजी भयण खंय आसात? आसा तुका खबर?

**हार्डीक्नट**

एरीकाच्या आवाक्या भायर खूब पयस.

**गुंतेर**

तुका पक्कें खबर आसा?

**स्वेन**

ह्या प्रस्नाचो अर्थ किते.?

**गुंतेर**

ज्या देवांचो तूं फुकट दुस्वास करता तांणी हर्थाक आनी
आसलोगाक स्विडनांतल्यान खेचून एरीकाच्या हातांत
सोंपयल्यांत. आतां जे तुवें अशुभ शब्द काडल्यात ते घातक रूपान
विरोधी शक्तीं कडल्यान प्रेरीत आसले.

**स्वेन**

तूं फट सांगता, ती स्वेड लोकां वांगडा सुरक्षीत आसात.

**गुंतेर**

भंयान काडलेल्या तुज्या घातक उतरांक हांव माफ करतां. सामन्त स्वेन तुका हें कळटा न्हय की भयानक देवांनी आपले इच्छापूर्ती खातीर धर्तरे वयल्या सगळयांत शूर मनशाची निवड केल्या म्हण? ही इच्छा नोर्वेचो एकवट आनी नोर्वेची महानता सोडून आनी कितें आसा? तूं एक काम करशीत ? एका भुरग्या वरी नोर्वेक पळय. जो घोडो ओलाफाक लेगीत आपल्या आवक्यांत हाडपाक जमलें ना तो ह्या तन्न्या हातांनी गळवझा जालो.एका धाकटुल्या पावलान तो स्विडनाचेर अधिकार सांगतलो तें पळय. एक पावट स्विडन पडलें की तुका कितें दिसता उत्तर सागराचेर भौस करपी पातमान्यो थंयचे थंयच उरतल्यो?ब्रिटन थरथरचें ना? आनी एरीक तार आवाजान प्रार्थना करून वादळान गोलाच्या शेतांनी वचचें म्हण मागचोना? सिथिया आमचें जूं मान्य करतलो. वोल्गाचीं शिंयान आखडलेली ल्हारां आमच्या सैन्याची पावलां सोंसतली.जर तरणाट्यान देवाची कल्पना करूंक गुलाबाच्या मोगांत पडून इटलिच्या उमेदीन भल्लेल्या घसघशीत सूर्यन्हात जमनीर मोगान धांवलो वा ताचें मन परम उल्हासान रोमाचेर राज्य करूंक गेलें जाल्यार नवल न्हय. ह्या सगळया अभियानांत तूं म्हणचे एक फातराचो खडो न्हय जाल्यार कितें? आतां विचार कर आनी तुजे अवाढव्य प्रतिक्रियेंत बदल कर.

**हार्डीक्नट**

स्वेन, हे लोक जे फट उलयतात ते तुजे बुध्दीक फटोवंक शकतात.

सामन्त गुंतेर ताचेर विस्वास दवरता, तो अशेंय मानता की यारिस्लाफान एका देवाकूय जल्म दिला म्हण.

**स्वेन**

गुंतेर म्हजेकडें म्हजें भाग्य आसा तुजेकडें म्हजें उतर.चल, वच.

**गुंतेर**

स्वेन, म्हाका तुज्या उतावळपणाचेर आनी तुज्या हट्टी आत्म्याची काकूत दिसता.

(तो भायर वता.)

**स्वेन**

आत्मसमर्पण केल्यार आसलोग म्हजो दुस्वास करतली. अशे परिस्थितीत तिचे खातीर बागवल्यारूय ती म्हजो दुस्वास करतली. कुशाग्र बुद्धिच्या अत्याचाऱ्यान म्हजे इच्छाशक्तीक हालयल्या! हाय, आनी हें जर खरें आसत जाल्यार म्हजें भाग्य एरीकाच्या दळांत घुस्पलां. म्हजो आत्मो ताचो कैदी जाला.इश्टांनो, आक्रमणाक तयार रावात; तो एक असलें वज्र आसा जो पयली प्रहार करता आनी उपरांत धमकायता.ही आमची निमाणी लडाय आसतली.

**हार्डीक्नट**

ह्या दुर्गम दोंगरांनी आमी महाराज एरीक आनी ताच्या देवांक तोंड दितले.

●

अंक : 4

देखाव : 2

(स्वेन आपल्या सामन्तां आनी अनुयायां वांगडा पळटा.)

**स्वेन**

बेगीन बेगीन, मात्शे ताकतिकेन बर्फा वटेन चलात. धर्तरे वयल्या गजाली मर्दी फकत एक चिरंतन शींऽ च एरीकाच्या दुस्मानाक वाचोवपाक, ताचेकडे झुजूंक शकतलें. विरांच्या उल्लेल्या धाकटुल्या धाकटुल्या दळांनो! नशिबा खातीर तुमी आपल्याक वांचयात ताका आजून तुमची गरज पडूं येता कारण ताका जेन्ना दिसतलें की ताणेंच ज्या मनशाक सदांच वयर उबारला तोच ताचेकडेंय आता सांबाळना म्हण.

**हार्डीक्नट**

रेग्नार ताचे वांगडा चल, ते मेरेन हांव आमच्या मागार आसलेल्यांक आडावंक वा तुमकां कुरवो करपाक हांगा उबो रावतलों.म्हजी चिंता करूं नाका... म्हाका सोड, रेग्नार, सोड म्हाका. शेवटाक हांव खूब थकलां.

(हार्डीक्नटाक सोडून सगळे वयर वतात.)

तर हांगा ह्या झेला मेरेन पावले. घडये म्हजें मर्ण आजून रागार देवांक बदलूंक शकलेलें जाल्यार !



## अंक : 5

## देखाव : 1

(एरीक, स्वेन, आसलोग, हर्था)

एरीक

फक्त मोगान न्हय, पूण बळान तशेंच मोगान,ह्या मनशाक उग्रताये मुखार आपली उग्रताय इल्ली उणी करपाक जाय.ताचेकडें जी एकूच गजाल उल्ल्या तिचोय गर्व सोडून ताणें सामको भिकारी जावपाक जाय, आनी ताणें आपल्याक मातये समान समजूंक जाय. तो म्हज्या आत्म्याच्या अनवळखी कार्याचो भौमान करूंक शकलो ना, पूण ताचो अपमान केलो. आनी म्हज्या थीर सामर्थ्याक तो थरथरप समजलो.हाराल्ड, दरबार भरपाची घांट मार. म्हज्या नक्षत्रांचो स्वामी तो जाका कोणूच स्वामी ना.ओडीन तूं आपल्या संवसाराकडें कसलो खेळ करता, पतन आनी उत्थानाचो, जल्म आनी मरणाचो, महानता आनी महानाशाचो? असोय वेळ येवंक  शकता जेन्ना एरीकाची कोण यादूच करचो ना? हय, पूण अशी एक लिपी आसा, असलो पोन्नो अभिलेख आसा जो अमर आसा. खंयच्या तरी वयल्या जगांत सिंहासनाचे मुखार आपल्या अमर ओठांतल्यान युगां युगां उपरांत लेगीत तन्ने पिरायेचे आनी लख्ख दोळयांचे

चारण, समस्त इतिहासाची गितां गायतात आनी अमृताचे पूत तीं आयकतात. ह्या विराट संवसारांत आमचें सगळें कार्यक्षेत्र एका धुल्लाच्या कणा समान आसता - खंयचे तरी एके सुवातेर एक सनातन याद आमच्या म्हान तश्याच ल्हान गजालीक समान रूपांत सांबाळून दवरता. ताचे नदरेन एका शेतकराचें रडप धडप आनी कोणाचेंय पतन एकेच तरेन करूण आसता. लोक म्हणटात, आण्वीक संयोगान एरीकाक हांगा दवरला, स्वेनाक थंय आनी आसलोगाक दोगाय मदीं. पूण हे साक्षात्कारी देवांनो, हांवें आपूण जावन ते अमरतायेक पळयल्या आनी तिका हांव वळखतां जी म्हजे भितर पड्ड्या फाटल्यान काय जायना, विचार करता, येवजण्यो करता आनी सार्थकतायेची भासाभास करता.

नोर्वेचो स्वामी जैतवंत जावं ! कारण हांगा सगळेच स्वामी, फकत एकटोच हांव देवांचे एकतायेचो मेंदू हांव तुमची सगळयांची एकता. अखेरेक आमच्या भाग्यांक थरथरावपी स्वेन नोर्वेच्या हातांत पडला. आतां व्हडल्या व्हडल्या विरां मदीं एक स्वेन, ताचें नोर्वे कितें करतली?

**गुंतेर**

जर ताचें बळ बागवता, जाल्यार, एरीक,ताका जगूं. असले उपद्रव सदांच सोंसप शक्य जावचें ना.

**एरीक**

नोर्वेक सोसूंक जमचें ना हे खातीर ताका समर्पण करचें पडटलें. ताका भितर हाड. हें लोखण बागोवंक शकता काय पळोवया. ताच्या जितेपणाक उजो सोंसत? ओलाफ पूत स्वेन, तुवें हे परिस्थितिचेर विचार केला? तूं आपल्या देवां मुखार नतमस्तक जाता काय स्वेन आमकां तुजे ख्यास्तिचो विचार करचो पडटलो?

**स्वेन**

हांवें भिरांकुळ दुर्भाग्य पळयलां. हांवें म्हजे म्हाकांय पळयला आनी हांव जाणां की हांव ताचेय परस म्हान. तुका जाय तें कर. यारिस्लाफाचो पूत जी आज्ञा करतलो ती ओलाफाचो पूत मान्य करतलो.

**एरीक**

तूं शरण येवंचो ना?

**स्वेन**

म्हाका शिकोवंक ना तें म्हज्या बापायन.

**एरीक**

हांव शिकोवं?

स्वेन, तूं आपली गळसणलेलीं उतरां विसरलो दिसता काय तीं फकत मुक्त झेलाक लेखून म्हटलेली आनी आतां ती फाटीं घेतल्यांत?

**स्वेन**

यारिस्लाफाच्या पूता तीं घट्ट बरीं आसात. हांव म्हणटां म्हाका एक खुरीस दिया जाचेर हांव तुका खिळे मारतां आनी चामड़ी काडपी चाकवाची मागणी करतां.

**एरीक**

स्वेन पूण हें सगळें तुजे खातीर. तुजे बायले खातीर आनी तुजे भयणी खातीर !

**स्वेन**

हाय!

**एरीक**

म्हाका दिसता, तुज्या बापायन तुका हीं उतरां शिकोवंक नात, पूण ती तुका हांवें शिकयल्यांत. तूं आजून मोग करता - स्वेन, आनी जो असो एक्कोडो रावतलो म्हणटा, स्वेन तो मोग करूंक शकना,हे खातीर तूं खऱ्यानीच म्हजो. तुका तुज्या रक्ताची, सामर्थ्याची व्हडवीक. तूं म्हणटा तसो तूं खऱ्यांनीच तुज्या दुर्भाग्या परसूय समर्थ ? तुजें दर्पान भरलेलें जातीय हांवपण वा तुज्या काळजाचें सामर्थ्य, जाच्या हातांत तूं पडला ताची इच्छा रद्द करूंक शकता? ओलाफ्सन स्वेन, देव तुजे जाती रक्तापरस चड शक्तशाली. तुज्या अभिमानी काळजा परस देव चड शक्तीशाली.देशाच्या एकवटा खातीर ते एका मनशाचो उग्र अहंकार, अभिमान आनी अट्टाहास चलूंक दिवंचे नात. आतां तुजेकडें कसलीच शक्त ना, तूं आनी हे सगळे एरीकाचे गुलाम जे ताका संदाच आडखळी हाडटाले. म्हणून

भाग्यान आनी नोर्वेन, जांचो हांव सामको आत्मीय जांलां,
भाव जालां, तांणी भयंकर तिडकीन तुमकां म्हज्या हांतात सोडल्यात.
म्हाका दिसता, तुमी जगचे. आनी तुमी झुकचें. हे लोक बागवतात
पूण तूं समजाकूच विरोध करता.भाग्य आनी मोग तुजे विरूध्द
एकठांय जाल्यांत.तुजे मुखार एक प्रस्ताव दवरतां स्वेन.म्हाका समर्पित
जा. म्हजे वांगडा उबो जा आनी बापायल्या शिंवासनाचो भागिदार
जा.

**स्वेन**

(थोडे मोनेळी उपरांत)

हय, तूं भिरांकूळ आनी सुक्षीम!
म्हज्या, तांचे खातीरच्या काय सत्या खातीरच्या,
म्हज्या काळजाची न्हय तर म्हज्या कर्तव्यांची
तांचे पसंतिची घोशणा तांकां करूंदी.

**एरीक**

हे उणाक हट्टी काळजा? हें जर तुज्या देशाखातीर वा
लोकांच्या पूज्य आदर्शा खातीर आसतें जाल्यारुय तें एक उदात्त
आंधळेपण म्हणूं येतालें. पूण तूं तर आपल्या गर्वाची अर्थ अपुर्बाय
करता. तूं तांच्या निर्णया प्रमाण चलतालो स्वेन? आसलोग आनी हर्था,
पळयात तुमच्या भावाक आनी घोवाक, पळयात
ह्या महाबंद्याक.एका काळा वयलो राजा आतां पडला
म्हज्या हातांत असहाय. म्हाका दिसता, ताची
महासत्ता, ताची प्रजा, ताचें राजसी काळीज अबाधीत दवरचें.

पूण ताच्या जाग्यार तो खुरीस
आपणावप पसंत करता.तो तुमकां लज करप पसंत करता. तुजो भाव आसलोग - हर्था तुजो घोव, तुमकां भंयकर लजेंत घालूंक पळयता. वर्सांची वर्सां जर ही उतरां तो मोलावंक शकलो की "स्वेनान खूब हट्टीपणां केली" . जाल्यार ताकाच तो सर्वस्व मानता. नोर्वेचे इच्छेचो भौमान करपाक जो विसल्लो तो तुमच्या अभिमानाचें आनी मोगाचें मोल करपाक चुकता. हें राजापणाक सोब सारकें नासलें. आनी ओलाफाच्या पुताकूय सोब सारकें नासलें.येतात, तुमी ताचे कडेन उलयतलीं? ताका समजायतलीं? ताका घेवन ते वटेन वचात आनी ताचें काळीज तुमचो विशय जावं दी.म्हजी प्रजा हर्था आनी म्हजी दासी आसलोग. तो मान जाता जाल्यार ताची जीण वांचयात. स्वेन,याद धर. ओलाफाच्या भुरग्यांक जर लजेची कपेलां घालपी गुलाम जावंची पडलीं जाल्यार तांकां गुलाम करपी तूं आसतलो.

**स्वेन**

ऑलाफाचे धुवे. आमी अशे तरेन मेळटात - की ते नोर्वेचे झेलाच्छादीत पर्वत हाचें परस बरे नासले?

**आसलोग**

ऊंच आसले, पूण थंड.

**हर्था**

स्वेन, म्हज्या स्वाम्या, हर्था कडेन उलोवंचो ना?

**स्वेन**

हाय, हर्था, तुजी तर्कटी बुदवंतकाय आमकां हांगा मेरेन घेवन आयल्या.

**हर्था**

देव यंत्राचो उपेग करतात. ते खातीर ते उतर घेनात. हे स्वेन. देवांचो आनी तांच्या निर्णयाचो स्वीकार कर.

**आसलोग**

आमकां कितें सदांसर्वकाळ थंडेनूच कुडकुडचें पडटलें? भावा रे, आपल्या काळजांतल्यान हो झेल भायर मोखून मार. गिमाक येवं दी.

**हर्था**

म्हज्या घोवा, सुर्याक नतमस्तक जा. देवां मुखार नतमस्तक जावप म्हटल्यार कितें उणाक गजाल न्हय.

**आसलोग**

आनी अशाय देवा मुखार नतमस्तक जावप म्हटल्यारूय वेगळें न्हय. मागीर तो धर्तरेर रावता आसूं येता वा तो मर्त्य आसूं येता.

**स्वेन**

एक पावट एक आसलोग आसली. आनी तिच्या उतरांची वज अजापांची

आसली. ह्या पतनाक क्षम्य थारोवपी तर्क तूं सोदूंक  शकना? म्हजे मुखार न्हय,म्हजे भयणी, त्या श्रेष्ठ स्वाभिमानी स्वताच्या आत्म्या मुखार जी तूं आसली.

**आसलोग**

कसलो तर्क?

म्हजें काळीज सोडून हांव आनीक कसलोच तर्क सोदिना. ज्या गजालिंनी म्हाका व्हडपण, गौरव दिसता ते खातीर म्हाका निमतां करपाची गरज ना.भावा म्हज्या,आमी दोगांय एकूच नासली? आनी आतां हें कशेंशेच दिसता की म्हाका तुका समजावचें पडटा.

**स्वेन**

बरें आसा, म्हणचे तें तुकां खबर आसलें.ताका लागून हांव पडलां. हेच खातीर म्हजो शक्तिपात जालो. आनी जंय पयली देवांची सासाय आनी गिरेस्तकायेची वस्ती आसली, थंय आजय फकत पोकळी आसा. हे म्हज्या अथीर काळजा, तूंच म्हजें भाग्य आसली, म्हजें कर्तुब आसली आनी अखेरेक तूं दुस्मानाच्या पक्षांत  गेली. आनी वांगडाच म्हजें भाग्य आनी म्हजी शक्तूय घेवन गेली. असल्या तोडांतल्यान म्हाका एक्क उतर आयकुपाचें ना. आतां हांगा थंय जें कितें उरलां तेंय तूं ताका दिवंक सोदता.इतलें की स्वेनूच स्वेनाचो उरचो ना, उरतली फकत एका भिवकुट्याची सांवळी.

**हर्था**

स्वेन,म्हजें आयक.

**स्वेन**

हाय, हर्था, तुका म्हाकां कितें सांगपाक जाय?

**हर्था**

म्हज्या स्वाम्या,म्हाकां म्हजेच स्व ख्यास्तिंतल्यान वांचय.

**स्वेन**

आह! मोगिके, म्हजे खातीर तुजो मोग म्हान आसलो. पूण म्हान आसुनय सदसद्विवेकी नासलो. पूण ते खातीर इतलें खर प्रतिदान मागपाची गरज आसली?हांव खुद्द तुजो आसलों.

**आसलोग**

तूं म्हजो भौमान मागता. इतल्यान मान जातलो? म्हजेकडें आतां कसलीच श्री शिल्लक ना.

**स्वेन**

जालें, निमणें तुंवे शक्तिचेर जैत व्हेलेंच. फकत तूंच म्हाकां अशी पराजीत करूंक शकताली. महाराज, तूं जिकलो. हांव तुजे मुखार बागवना, पूण जांचेर मोग केलो तेच तुजे जाले.हांचे खातीर आपलो राग फाटी घे. ते जाग्यार म्हाका जाय ती ख्यास्त दी, पूण बागोवप म्हटल्यार नोर्वेच्या स्वेनाचो आपले आपूण सर्वनाश.

**एरीक**

विद्रोह सोड.म्हजी दया आपणाय.

**स्वेन**

हाय नशिबा, हें भायर येतलेंच ओलाफाचें तेज म्हजे भितर अशें ओगी बसचेंच ना.तूं म्हाकां जाय़ जाय तशे हाल करून मार तरी हांव बागवचों ना तूं आपली दया फाटी घे.

**एरीक**

हांव फाटी घेतां.पूण ते बदलाक तुकां कितें जाय?

**स्वेन**

तूं हांका आनी म्हाकां जाय तें कर जालें.

**एरीक**

निर्बळ पूण भयंकर मनशा, तूं तुजी घूल उडयता. हांव म्हजी उडयतलों आनी जिकतलों.

**स्वेन**

हांवें अट्टलांतली अट्टल ख्यास्त सोंसल्या.

**एरीक**

अशें न्हय.

तुका दिसता की हांव तुका मरपाक आदार दितलों म्हण आनी मागीर तुज्या लोकांचे जातले हाल पळोवपाक तुज्या कुड्ड्या फोंडांतं तुज्या दोळयांर धांकणी आसतली. जाणा जा स्वेन,हांव भंयकर क्रूर! तूं जगतलो आनी हांव तांचेर जी तिडक काडटां ती तूं पळयतलो. आसलोग, वच आनी ते राती वरी शिरङार करून, आपलो खंजीर घेवन,मुदी घालून परत यो.

**स्वेन**

कितें करतलो तूं तिका? आरे देवा कितें करतलो तूं तिका?
हाय, कित्याक हांवे पळयलें आनी जें काळीज बंद आसलें थंय
मोगाक येवंक दिलें... पूण मर्ण आनी म्हानपण.

**एरीक**

हांव तांची अशी हालअपेश्टा करतलो ती तुज्यान पळोवंक जावंची नां आनी जर तूं तें सोंसूंक शकलो जाल्यार तुका भयंकर निबर जावन जगचें पडटलें.कारण मरण तुका असंभव आसतलें. हे गजालिची जायतीं तासां म्हजेकडें आसात. तुवें चिंतलेलें
आसतलें की तूं फोंडात आसतला आनी तुज्या जाग्यार ह्यो ख्यास्त भोगतल्यो. तुजें काळीज सुट्टलें. पूण हो कितें व्हडलो क्रांतीकारी विचार नासलो. स्वेनाचे योग्यतायेचें हें पळप नासलें. आसलोग आनी हर्था
म्हज्यो दासयो. आपलें वयलें वस्त्र कुशीन सारात.

**स्वेन**

आतां आनी कितें पळोवंचे पडत काय?

**एरीक**

त्यो म्हजेकडे नर्तक्यो जावन आयल्यो. आनी हांव
तांकां नर्तक्यांच्याच रूपान दवरतलें.तूं नोर्वेच्या
आसलोगाक तिचो धंदो करताना पळयतलो, तिका
म्हजे मुखार नाचतना पळयतलो. ही
निकती सुरवात,फुडें फुडें जायतें घडपाचें आसा,
जो मेरेन तूं आपली हट्ट्पणां सोडचो ना तो मेरेन.

**स्वेन**

तुकां यातना दिवपाक कळटा.

**एरीक**

आनी थांबोवपाकूय कळटा.

(आसलोग परत येता.)

पळयता स्वेन,आतां हांव तिका नाचपाक सांगूं? ओलाफाच्या घराण्याचें हें घडीत?

**स्वेन**

ओलाफाचे धुवे, तूं ही आज्ञा मानतली ?

**आसलोग**

हय म्हज्या भावा, तूं म्हजेर मोग करिना.जो करता ताका सोडून हांव कोणाचें मानूं? पूण तुंदे आजून म्हजेर मोग केल्लो जाल्यार ही पाळी येवंची नासली.

**एरीक**

नाच.

**स्वेन**

थार आसलोग. जेन्ना तूं म्हज्या गौरवाचेर न्हय तर आपल्याचेर मोग करपाचो आदेश दिता तेन्ना ओलाफाचे कुळयेक लजेतल्यान वाटावपाक हें करप गरजेचें जातलें, जाची विस्वासघातकी निर्बळाय एरीका खातीर आनी तुजे खातीर काम करता.

एरीक

थारप ना. आतां थारप तुजे खातीर भंयकर ज्ञाव येता.

स्वेन

महाराज, हांव समर्पण करतां. तुजें वरदान हांव स्विकारतां. भुकेन वळवळटल्या सामन्ताच्या वंशाचे दिवे तुजे मुखार तकली बागयता. हांव ओलाफाचो पूत. म्हज्या अपमानांक हांव प्रामाणिक रावतलों.

एरीक

राजा, भियेवं नाका. हांव परत म्हान जांवक शकतां. तुवें कसलीच अट नासतना समर्पण केलां न्हय?

स्वेन

ना. हिका सगळे तरेचे लजेंतल्यान वाटाय.हेच खातीर हांव बागवतां. हें, म्हजे प्रतिशठेचें मोल आनी तें खूब थोडें.

एरीक

तें कस्लेच अटी बगर तुका पावलें.

स्वेन

एक नमळायेची मागणी महाराज, म्हाका एक खोल तळघर दी जंय हांव सगळयांची नदर चुकोवन रावूंक शकतलों.

एरीक

सोपूत घे की हांव कसलीय बंदखण दिवं, आसत ती ल्हान वा व्हड,

तूं ते परिस्थितिचो आनी शिमांचो मान राखतलो आनी म्हजे आज्ञे प्रमाण चलतलो.

**स्वेन**

(तोंडार कांय भाव)

हो सोपूत घेतलो. थोर आनी ओडीन म्हज्या सोपुताक गवाय.

**एरीक**

ओलाफाच्या पुताक हांव चार बंदखणिंचे सुवादीन करतां. तुजो त्रोंडिजेमचो म्हाल, ओलाफाचें राजघर, थारांत तुवें बांदलेलो राजमहाल एरीकाचो दरबार - तुजो देश नोर्वे जाचे मुखार तूं बागवता - आनी शेवटाक जेन्ना हांव धर्तरेचेर आक्रमण करतलों तेन्ना म्हजे सेनेचें सेनापतित्व.

**स्वेन**

(अजापान आनी दुबावान)

एरीक, तुवें म्हाकां सामको चक्रायलो, सोपुताच्या नांवान म्हाकां चक्रव्यूहांत घातलो.

**एरीक**

हर्था, आपल्या पती वांगडा दुभावा विरयत वच. तुवें पळयला न्हय की तूं सुरक्षीत आसली म्हण. त्रोंडिजेम आनी ओलाफाचे खजाने आपले वांगडा व्हर. म्हज्या शिंवासन सकयल दुसरें तुजें शिवासन आसतलें.

स्वेन

पूरो एरीक. हांवे तुजे मुखार समर्पण करूंक ना? तुजी वरदानां हागांच थारय.

एरीक

खऱ्यानीच. कारण जें दुसरें वरदान आसा तें म्हजेच खातेर आसा. जो सुदंर हात हांवें हातांत घेतला ताका पळय नाका. पूण हे नुदटेक पळय आनी वळख.

स्वेन

आसलोगाच्या बोटांत फ्रेयाची मुदी? जी बायल ही मुदी एक पावट आपल्या बोटांत घालता ती ह्या नोर्वेच्या शिंवासनार बसता.

एरीक

आपल्या बापायल्या शिंवासनाचेर अधिकार कर जो सुरवेक सावनूच तुजे खातीर आसलो. आनी हे गजालिचें अजाप करूंनाका की हांव तिका नर्तकेच्या भेसांत बसयतां म्हण काय हो भेस राजवस्त्रां परसूय चड सोब हाडपी आसा.स्वेन आपले भयणीक लज नासलेली वा फटींग म्हणूं नाका कारण ती म्हजे कडेन आयल्ली...ती आयल्ली म्हजें आनी तुजें रगत व्हांवोवच्या भयंकर उद्देशान - असले उद्देश फकत उदात्त काळजांच येवजूंक शकतात; आनी शेवटाक ती आपल्या उदात्त काळजा मुखार बागवली कारण ओडीनाची तशी इच्छा आसली.

**स्वेन**

ते खातीर आयल्लीं.

आसलोग तुवें तुजें शिंवासन सोदलें, पूण... हांव तुजो दुस्वास करिना.कारण तुजें म्हान काळीज ताका योग्य आसलें. एरीक, शेवटाक तुंवें नोर्वे जिकली.

**एरीक**

स्वेन, म्हजे बायलेक लज केलेबगर तुजे भयणीक लज करूंक शकना. पूण हें सगळें तुजें काळीज पळोवंक केल्लें नाटक. आनी तूं पळयता की जाका ओलाफाच्या बिंयां विरूध्द विद्रोहा बगर नोर्वेचेर राज्य करचें आसा तो देशद्रोह करूंक शकना.

**स्वेन**

एरीक आपल्या वरदानाच्या बदलाक जें जाय तें घे कारण ताचे आतां त्रास जायनात. हांवे तुजों तुंवें भविश्यांत म्हजे पसून सुटका मेळोवंचो उपाय सोदलो. तो...म्हज्या काळजाच्या शिरां सयत.

**एरीक**

स्वेन,तुजो साथी हार्डीक्नटाक भोगास आनी मोगान आव्णाय. ताचो विस्वासघात तुज्या मोगान भल्लेलो.

**स्वेन**

महाराज, हें कांयच न्हय. ताचें कर्तूब हांवें वळखल्लें.तरी हांव ताका माफ करतां.

एरीक

स्वेन, तुजो दुस्मान सिगार्डाकूय असो माफ कर जशे
हांवें म्हज्या बापायच्या हत्याऱ्यांक माफ केल्ले.

स्वेन

हांव तका सोडटां, भोगशिना. तुजें म्हज्या दोळयां नुखार न रवच डरे.

एरीक

स्वेन, म्हाकाय बी तुजे कडल्यान वरदान मागपाक जाय

स्वेन

जर तुका म्हजे कडल्यान वर जाय जाल्यार कठीन वर माग.

एरीक

देव जिकले. आसलोगाच्या भावा, हो आमचे मदलो सोंपलेलो
संघर्श आपल्यांतल्यान नाच्च कर.

स्वेन

म्हजे भयणिच्या स्वाम्या, तुंवें आमचें रगत आपणायलें ही गजाल
तुज्या जैता मदीं तुका चड उदात्त आनी चड म्हान करत. तुजें
हें निमाणें जैत तर सगळ्यांत व्हड. तुंवें म्हजेकडें एका राजा वरी
वेव्हार केलो आनी उपरांत एका भावा वरी. तूं खऱ्यांनीच आपल्या
शिंवासनाचो गौरव.

एरीक

भावा, जे मेरेन म्हाका म्हज्या दुस्मानाचेर घालो घालपाक म्हजेच

तलवारी वरी दुसरे तलवारिची गरज पडचिना ते मेरेन सगळ्या तरांच्या संकश्टांक सुटी. आसलोग, कितें? कसलो विचार करता? तूं खुशी जाल्यार सगळें बरें, सगळें उदात्त भावनेन केलां.

**आसलोग**

तुज्या सभावांत आजून एक पिडगी आसा आनी ह्याच रूपान तूं म्हाकां खुब्ब मोगाळ दिसता. बरें सोडून तूं आनी करूंक शकताच कितें? कारण तुज्या प्रत्येक कार्यांत आनी उतरांत हांवें हेंच पळयलां की देवच तुकां प्रेरीत करीत आसतात.

**एरीक**

काय ह्या नक्षत्र चकचकीत दोळयांनी म्हाकां बदलून उडयला हे ओलाफाचे धुवे, आनी...जंय एक पावट फकत उंचाय आनी तिख्याची घटसाण आसली थंय आतां एक मनीस आसा. हे स्वर्गसुंदरे, हे राजसी अद्‌भुतताये, आतां म्हजें कार्य, म्हजी दया म्हजें म्हानपण आनी म्हजें साहस ह्या सगळयांची मुळां तुज्याच काळजांतल्यान उद्‌भवतात. म्हजी शक्त, तुज्या काळजांतल्यान म्हजे मेरेन येता. आसलोग. एक पावट तुंवें झुजाऱ्याचे तल्वारी परस चड घट अशा तेज भांगरचक्राचें गीत गायल्लें.तुका याद आसा आसलोग, तूं गोथबर्ग साकून कित्याक आयल्ली? तेन्ना सावन देव उलोवंक लागले आनी तांणी आपलो हात दिलो. आमचे दोळे धांकून ते आमकां फुडें ओडटात पूण शेवटाक काम जालें की आत्मो सगळयांची याद करता...

**आसलोग**

काय हें आमच्या अदृश्टांतूच बरयल्लें.म्हज्या प्रियाळा,
आतां आमचे खातीर हो संवसार परतून सुरू जाता.जेन्ना सावन
हे तारे तयार  जाले तेन्ना सावन आमी ओडीनाचे इच्छेचो खेळ
खेळटाना केन्ना आमी मेळ्ळीं आनी केन्ना पयस जालीं जाल्यार
केन्ना परत मेळ्ळीं सासणा खातीर.



**श्री अरविंद** तांगेल्या योगीक वावराखातीर संवसारभर किर्तिवंत जाले पूण सामान्यांमेरेन जशे पावपाक जाय आसले तशें पावलेना. हाचें मुख्य कारण म्हणल्यार तांचें सगळें लेखन आनी योगीक विचार इंग्लीश भाशेंतल्यान प्रगट जाले. भारतांत आसुनूय, भारतांत वावर करुनूय भारतांतलो सर्वसादारण मनीस तांगेल्या गिन्यानापासून वंचीत उरलो. भारतीय भासांनी तांगेल्या साहित्याचे अणकार जाल्या उपरांत तांची खरी वळख देशाक जावपाक पावली.

**'एरीक'** हें 1912 - 1913 च्या अदमासाक श्री. अरविंद हांणी बरयिल्लें नाटक. हें नाटक स्केंडिनेव्हीयाचे संस्कृतीचेर उजवाड घालता आनी ते संस्कृतींतल्या मनशांच्या सभावाचें आनी उदात्त चलणुकेचें दर्शन घडयता. नाटकाचो काळ इसवीसनपूर्व. सगळे तरेची दुस्मानकाय ना करुन मनशां मजगतीं आनंद, मोग आनी शांती निर्माण करपी योगविद्येचो प्रवास आनी प्रभाव ह्या नाटकांत दाखयला. एके नदरेन श्री अरविंदाचे संपूर्ण विचारधारणेचें पडबिंब ह्या नाटकाच्या माध्यमांतल्यान दिसता. एका महायोग्याचे व्यापक अनुभूतीचो दिव्य दिश्टावो 'एरिकांत'ल्यान घडटा. कोंकणी रंगमाचयेर ह्या नाटकाचो प्रयोगूय जाला. पुस्तकरुपान तें कोंकणीत येता ही खोशेयेची गजाल.

**रमेश भगवंत वेळुस्कार** हे कोंकणीतले बाकीबाब बोरकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांचे उपरांतचे पिळगेंतले एक महत्वपूर्ण कवी. कोंकणी काव्याक दिल्ल्या योगदानाखातीर तांकां केंद्रिय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कारुय लाबला. तांच्या नांवार उजवाडाक आयिल्ले स कविता संग्रह आसात. कवितेचे साधनेंत आनी रचनेंत तांणी खंड पडूंक दिवंक ना. कवितेबरोबर तांणी कांय गद्य बरयलां. तातूंत तांणी बरयिल्ल्यो कथा आनी नवलिका लक्षणीय आसा. हेर भासांतल्या अभिजात साहित्यान तांचे प्रतिभेक साद घातला तेन्ना तांणी त्याच तोलामोलान त्या सादाक जाप दिवपाचो यत्न केला. ह्याच यत्नांतल्यान कांय हेर भासांतले उत्कृश्ट साहित्याने नमुने कोंकणी भाशेंत आयल्यात. आशयाचो अचूक वेध आनी कोंकणी भाशेचेर आशिल्ली हुकुमत तांगेल्या अणकाराचीं वैशिश्टयां आसात.




गोवा कोंकणी अकादेमी